# रंगभूमी

(लघु नाटकां)

**शरतचंद्र शेणै**



**2020**

**पी. जी. कामत फौंडेशन**

| | |
|---|---|
| (Konkani) | (कोंकणी) |
| **RANGABHOOMI** | **रंगभूमी** |
| (Short Plays) | (लघु नाटकां) |



| | |
|---|---|
| Author: | लेखक: |
| **Saratchandra Shenoi** | **शरतचंद्र शेणै** |
| saratchandrashenoi@gmail.com | 9495093380 |





| | |
|---|---|
| First Edition : 2020 | पयली आवृत्ती : 2020 |







| | |
|---|---|
| Published by: | प्रकाशक: |
| **P. G. Kamath Foundation** | **पी. जी. कामत फौंडेशन** |
| 'Puduma', Parinamam Road | 'पुदुमा' परिणामम रोड, कलूर |
| Kaloor, Ernakulam - 682017 | एरणाकुळम - 682017 |
| Cell : 9447730866 | दूरध्वनी : 0484 2530866 |
| pgkamat.foundation@gmail.com | www.pgkamathfoundation.com |
| | |
| Cover: | मुखचित्र: |
| Gourish Vernekar | गौरीश वेर्णेकार |
| | |
| Printed at: | मुद्रण: |
| Manipal Technologies Limited | मणिपाल टेक्नॉलोजीस लिमिटेड |

₹ **140/-**

Copies could be ordered online at : www.navathishop.com

ISBN : 978-81-941625-3-7

# समर्पण



सर्गेस्त **आर. सुभाषचंद्र प्रभू** (1941-1996)

आनी तांचे सारकेल्या

अनेक कोंकणी नाटक कलाकारांचे

स्मरणे मुखार नमळायेन समर्पण..

# प्रकाशकांचीं उतरां

वेगवेगळ्या भाशेंतल्या साहित्यांत नाटक एक प्रकार म्हणून रूप घेता त्या त्या भास उलोवपी लोकांच्या लोकवेदांतल्यान पुंजायिल्ल्या गीतांनी या काणियांनी अशी दिसून येता. केरळांतल्या कोंकणी नाटकाचो उगम अशीच जाल्लो आनी ताजें बीज 'वोळार' ह्या एक गेयरूपी लघु काव्यांत मेळटा. अनेक कथापात्रांनी गांथिल्ली कथावस्तु हांतु संभाषण रूपान आयकूंक येता. हाचो नृत्यरूपी आविष्कार हालींच रंगमाचयर सादर जालाय बी.

जाल्यार, केरळांतल्यान मुद्रित रूपान उजवाडाक आयिल्लें पयलें कोंकणी नाटक खंयचे आसा? ह्य प्रश्नाक जवाब सोदताना आमी कांय शंभर वर्सां फाटल्यान पावतात. तें 'सारस्वतबोधिनी' म्हयनाळ्यांत 1925 वर्साच्या दोन अंकांत मलयाळम लिपीन छापून आयिल्लें. ताजें शीर्षक आशिल्लें 'हळ्ळेंतुलो संवादु' आनी लेखकाचें नांव 'सीताराम प्रभू'. स कथापात्रांचें तें संभाशण एक लघुनाटक म्हणूक अडचण ना. पूण त्या उपरांत दुसरें एक नाटक मुद्रित रूपान येवूंक एदीं दशकां लागलीं.

केरळांत खेळ्ळेले पयलें कोंकणी नाटक **चंद्रहासचरित** आसा. 31.12.1943 तारिकेक तुरवूर गांवाच्या तिरूमला देवस्वम हाई स्कूलाच्या वाठारांत खेळ्ळेलें हें विख्यात नाटक बरयिल्लें सर्गेस्त बोळंतूर कृष्ण प्रभून. गांवच्या लोकांनी त्या नाटकांतले अभिनेतांक मेडल (पदक) सयत बक्षीस भेटोवन प्रोत्साह दिलो. मागीर त्या नटनसमितीक चेर्तला आनी आलेप्पी ह्या गांवांतूय तें नाटक खेळपाक संद मेळी. सर्गेस्त पी. जी. कामत मामान तांतूं वांटो घेतिल्लो. तो काळ धरूनूच केरळांत कोंकणी रंगमाची सक्रिय आसा. ताज्या प्रभावान थोड्या लेखकांनी कोंकणींत साहित्य रचना आरांभिली लागेन! त्या कालाक तसलीं थोडीं कोंकणी नाटकां लिखित रूपान वाचूकय मेळ्ळीं.

जाल्यार उपरांतच्या कालांत केरळांत कोंकणी नाटकां लिखित रूपान मेळूंक सुलभ नात. **भरतपुराचो भरत मास्तर** म्हूण एक एकांक नाटक 1994 वर्षा केरळांत प्रकाशित जालें तरीय ताजो लेखक आशिल्लो बेंगळूरचो डॉ. के. रमेश कामत. तशी पळयतना केरळचेंच म्हूण कोंकणी नाटकांचें एक पुस्तक उजवाडा येता हें पयलेच पावटी जावन आसा.

खरें म्हळ्यार केरळांत कोंकणी नाटकरंग भोवच श्रीमंत आसा. हांगा साबार नाटकांचो प्रयोग सदाच जायत आयला. तरातराचे विषय घेवन नाटकां गांवां गांवांनी सादर जायत आयल्यांत. नाटकांक हांगाच्या जनांलो बरो आस्वाद मेळत आयला. आनी अखिल भारतीय तलाचेर पुरस्कार बी जोडल्यात. हांगाच्या नाटकरंगाक वेगवेगळे भूमिकेंतल्यान योगदान दिवपी अनेक प्रवर्तकय आसात.

म्हणूनूच श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेल्या लघु नाटकांच्या ह्या संग्रहांत, केरळच्या कोंकणी नाटकरंगा विशींची थोडी माहिती तांणीच बरयल्ल्या निबंदां वाटेन आमी आस्पाव केल्या.

आमची विनंती स्वीकार करून ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरयल्ले विख्यात नाटककार डॉ. चंद्रशेखर एन. शेणै (मुंबै) हांकां हार्दिक धन्यवाद. ह्या पुस्तकाक आकर्शक मुखचित्र रचिल्ले खातीर श्री गौरीश वेर्णेकार (गोंय) हांचे आमी आभारी आसात. पुस्तकाचें मुद्रण बरे तरेन केलेल्या 'मणिपाल टेक्नॉलोजीस लिमिटेड' हांकांय आमी धन्यवाद सांगतात.

सगल्यानच्या कोंकणी मोग्यांचो ह्रदयपूर्वक सहकार सदा सदैव आसचो म्हूण विनंती करतात.

**- आनंद जी. कामत**

ट्रस्टी, पी. जी. कामत फौंडेशन

# रंगभूमीचेर..

**अनुबंधः**



# प्रस्तावना

**- डॉ. चंद्रशेखर एन. शेणै, मुंबै**

'रंगभूमी' हो लघु नाटीकांचो संच बरयलेलो श्री शरतचंद्र शेणै हो कोंकणी साहित्यांतुलो एक प्रख्यात साहित्यकारु. तांनी अनेक साहित्य प्रकारांतु तांगेली प्रतिभा दाक्कयल्या. तांकां केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार, डॉ. टी.एम. ए. पै अत्युत्तम कोंकणी पुस्तक पुरस्कार, विमला वी. पै विश्व कोंकणी कविता कृती पुरस्कार अशी अनेक गौरव प्राप्त जावनु आस्सती.

'रंगभूमी' ह्या तांगेल्या नाटीका संग्रहांतु तांनी हो आनेक साहित्यप्रकार अत्यंत यशस्वी रीतीन केल्ला. 'घर संसार' ह्या नाटीकेंतु मध्यमवर्गीय कुटुंबातुली शिक्षण विषय आस्था, वींगड वींगड वयोगारांतुले व्यक्तीरेखा, तांगेल एकदुस-या विषईचे वात्सल्य अतिसुंदर रीतीन प्रकट केल्लां. नाटीकेंतुल संवाद अति सुलभ भाशेन बरयल्या. हें एक कोंकणी रंगभूमीरी प्रस्तुत कोरचे तशी उत्तम नाट्यप्रकार म्होणेत.

'थळथळेवंचें सर्वय भांगार न्हय' हें आमगेल्या युवा पिळगीन बोध घेवचे तशी प्रसंग रंगयला. तशींची परिचय नात्तीले व्यक्तीवयरी कितलो विश्वास दवोरका.. अनुभव घेत्तील व्यक्तीवयरी कश्शीं विश्वास दवोरका अशी बोधप्रधान आशय आमगेल एदुर दवरला.

'एकलव्याली गुरुदक्षिणा' ही तरी सकडांक परिचित अशी पौराणीक काणी. एकलव्याली गुरुभक्ती तरी सर्व परिचित बोधु. जाल्यारी अपरिचित आश्शीले बोध नाट्यकारान आमका उकते कोरनु दाक्कयलां. मनुष्याक क्रोधाचेरी संयम दवोरका अशी गुरूउपदेश खंचेय शिक्षणांतु कितले महत्वाचे स्थान दवोरनु आस्स हें सिद्ध करता. हें शरतचंद्राले विशेष नैपुण्य अशी म्होणेत.

'विश्वासाची सेल्फी' ही नाटीका म्हळ्यारी मातृप्रेमाची अतिसुंदर प्रचिती. एक जल्म दिल्ली माता, आनेक संगोपन केल्लली माता. जाल्यारी दोग्गांली प्रीती ही समसम जाउन कश्शी आसता हें दाखयलां. आपण्यालें जल्मा आईलें अपत्य आपण्याल स्नेहीत्या विश्वासान दिवनु वत्ता आनी स्वोही आपण्याले चेरडुशें कशी होड करता हें दोन मातांले विश्वासाचे आनी स्नेहाचे प्रतिक अति सुंदर रंगयलां. ह्या नाटीकेक दिल्लले शिर्षक विश्वास मात्र न्हयी दोनी मातां मध्ये आशीलें वात्सल्य अति सुंदर रीतीन चित्रायता.

'आत्ती आनी पित्ती' ही संगीत लघुनाटीका बालरंगभूमीरी जावचे तश्शी आस्स. संवाद गीत रूपान बरयल्याती. ताका जरी योग्य संगीत मेळ्ळें एक अति सुंदर बालनाट्य म्होणु प्रस्तुत कोर्येत. तशींची 'भिकू मामाली बोकोडी' ही नाटीका हास्यप्रधान आस्स. ह्या नाटीकेंतुलो भिकू मामू हें तरी एक सादा आनी सरळ व्यक्ती. चार जणांनी वापास वापास एक उत्तर उल्लोनु तागेल मनारी, व्हय आशीलें न्हय कश्शी कोरू जात्ता हें दाक्कोनु दिल्लां. ह्या दोनी नाटीका अत्यंत कुशलतेन रंगयल्याती.

'पुण्यवंती' ही नाटीका नेत्रदान ह्या विषयाचेरी आस्स. माधव मामाले बायलेल मरणोपरांत नेत्रदाना इतलें श्रेष्ठ दान माधव मामान केल्लें आनी एका अंध चेल्लेक द्रीष्टी आइली, एक नवो जल्म मेळ्ळो. आनी शिवाय सिंधूल रूपान माधव मामाली बायल जीवंत वरली अश्शीं म्होणेत. नाटकांतु नेत्रदानाचें महत्व आमगेल समाजा एदरा हाणु एक बोधप्रधान नाटीका आमगेल्या कोंकणी रंगमंचाक मेळ्या अशी आदरपूर्वक म्होणेत.

'अंतिम पालो' हें 'दि लास्ट लीफ' ह्या 'ओ. हेनरी' ह्या इंग्लीश लेखकाले काण्येचें नाट्यरूपांतर. 'ओ. हेनरी' हो एक नामवंत लघुकथाकार. लघुकथा प्रभावीपणान कश्शी बोरोच्यो हें ह्या लेखकाल्या शिक्कुका.

सुक्ष्म भावनीक विषय कशी विस्तारान चित्रीत कोरचो आनी लघुकथेचो अंत कशी कोरचो हे कौशल्य ह्या लेखकाल्या आस्स. शरतचंद्र शेणईन ही कथा नाट्यरूपांतरीत कोरू घेतल्या हें होड साहस अशी म्होणका. 'दि लास्ट लीफ' ही कथा दोनी स्थरारी बरयली आस्स. एक तरूण चेलेली करूण परीस्थीती. तिगेलें चिंताजनक अस्वास्थ्य. तिगेली आपण्याल जीवनारी आशीलो आनी हळु हळु क्षीण जात्त वत्तलो विश्वासु. वाल्लेरी झडत वत्तलो पाल्लो आनी स्वतःले आयुष्य अशी लायललो काल्पनीक संबंधु. दुसरे स्थर म्हळ्यारी चित्रकारू तागेली कौटुंबीक दुःखद परिस्थिती, कौटुंबीक संघर्शु जाल्यारी तागेली चित्रकले विषयीची इर्षा. तशींची आपण्याल चित्रकलेचो दुस-यांक कश्शीं उपयोगा पोडेत ह्या उदात्त भावना. ह्याची परोपकारी भावनेन तो रात्रकरी अत्यंत कठीण परीस्थितींतु तो पाल्लो चित्रायता. तो पाल्लो पोळोनु ज्योतीली जीवनाची इच्छा प्रफुल्लीत जात्ता आनी तिक्का जीवनदान मेळता. जाल्यारी ह्या कठीण प्रयासान चित्रकारालो प्राण वत्ता. हें कथासार हांगा बोरोचे कारण म्हळ्यारी रूपांतर करतना ह्या दोन्नी स्थराचो योग्य नाटकीकरण जावका आशीलें. चित्रकाराल प्रयासाचो भाग पुर्णपणान आईल ना जालमीती चित्रकारालो साक्रीफैस (sacrifice) प्रभावी जाइनी आनी ते मीती नाट्यरूपांतर संपुर्णाक वच्चनी. चित्रकारालें कौटुंबीक परीस्थितीचें दर्शन घडोवचें आवश्यक आश्शीले. ही नाटीका अजुनु सुमार अंशानी प्रभावी जात्ता आश्शीली.

शरतचंद्र शेणैलें इतर साहित्य पळयतना तो एक प्रतिभावंत साहित्यकार म्होणु दिस्सुनु येत्ता. अशींची सातत्यान जरी लेखन केल्यारी एक सामर्थ्यवान नाटककार उदयाक येत्तलो अशी आम्मी आशा कोर्येत.

देव बरें कोरो.

# रंगयाळी रंगभूमी

कोंकणी लघु नाटकांचो हो संग्रह मूल रूपान 2017 वर्साच तयार जालोलो. त्या वर्सा उजवाडायलेल्या 'इदं न मम' नांवांच्या म्हज्या कविता संग्रहांत हाची माहिती आसा. त्या वेळार हांतूं केवल सात नाटकांच आशिल्लीं. उपरांतच्या काळांत बरयलेलीं तीन नाटकां, दोन निबंद, गीत आनी चित्रां बी मेळोवन हो आतां उजवाडा येता आसा.

पूण हांवें बरयलेलें प्रथम नाटक हांतूं ना. 'देवदूत' नांवांचें तें नाटक हांवें 2000 वर्सा त्याच नांवांचे, श्रीमती सूर्या अशोक हांगेले कथेक आधारून बरयलेलें. देड वराच्या वेळाचें तें संपूर्ण नाटक त्याच वर्सा आमच्या पळ्ळुरुत्ती गांवांत महिळा जनांनी मेळनु सादर केलेलें. त्या नाटकांतल्या सगल्या पुरुष पात्रांच्योय भूमिका महिळानींच केलेल्यो म्हणून तें नाटक केरळांतल्या कोंकणी नाटक रंगार एक मैलाफातर जालें. पूण मदल्या काळांत नाटकाचें हातबरप खंय तरी नष्ट जालें.

ह्या संग्रहांतलींय तीन नाटकां हांगा रंगवेदीर सादर केलेलींच. विषय आनी प्रस्तुतीचे दृष्टीन हांतुल्या प्रत्येक नाटकाकय ताची ताची विशेषता आसा. तेंच न्हय, केरळांतल्या कोंकणी नाटकांचें एक पुस्तक उजवाडा येता एक अप्रूप कार्य आशिल्ल्यान, वाचकांचे मुखार हें प्रस्तुत करतना होड संतोष दिसता. हें पुस्तक प्रकाशन करचे 'पी. जी. कामत फौंडेशन' हे संस्थेक आनी कार्यकर्त्यांक म्हजो हार्दिक धन्यवाद.

**शरतचंद्र शेणै**



## शरतचंद्र शेणै

'अंतरनाद' नांवांच्या प्रथम कविता संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार. 'आत्मायन' नांवांच्या दुसर्या संग्रहाक डॉ. टी.एम.ए. पै अत्युत्तम कोंकणी पुस्तक पुरस्कार. 'इदं न मम' नांवांच्या तिसर्या संग्रहाक विमला वी. पै विश्व कोंकणी कविता कृती पुरस्कार.

ह्या काव्य पुस्तकां भायर 'श्रीकृष्णकथासुधा' नांवांचें एक शतश्लोकी काव्य, 'गीत सरोवर' म्हूण एक गीतसंग्रह, 'रसिक रसायन' म्हूण एक गद्यसंग्रह, 'अनिश्चित' आनी 'परणें घर' अशीं दोन नवलिका, 'लोकधन' म्हूण लोकवेदाचें एक परिचय पुस्तक, आदी हांगेलें योगदान जावन आसा.

'मीरा, जीवन आनी कवन', 'श्रीवेंकटेश सुप्रभात' आनी तशींच मलयाळम, इंग्लीष भासांनी जावन हांगेले पांच भाषांतर आसात. 'कोंकणी भाषा पठन सहायी', 'मलयाळम-कोंकणी क्रिया पदावली', 'अक्षरगीता' आदी पांच शिक्षण पुस्तक आसात. आनी 'साहित्य संकलन', 'काव्योद्यान', 'साहित्यदीप्ति', 'नंदादीप', अशीं चार साहित्य संकलनांचें संपादन बी केलां.

# घर संसार

## अवतारिका

आमकां आमगेलीच म्हूण एक जिणेकाणी आसा म्हळ्ळेले वरी आमचे सरभोंवतणेक आशिल्ले समस्त मनशांकय तांच्यो तांच्यो अश्यो खाशेल्यो जिणेकाण्यो आसाय. तसल्यो थोड्यो काण्यो हांगा अवतरण करताय. एक नाटकांत अनेक काण्यो, घराघराच्यो काण्यो!

## पात्रां

| | | |
|---|---|---|
| तारा | (65) | अम्मम्मा |
| रत्ना | (42) | ताराली सून |
| किरण | (17) | रत्नाली धूव |
| किषन | (14) | रत्नालो पूत |
| वत्सला | (48) | ताराली धूव |
| सुगंधी | (50) | शेजारनी |
| जंबक्का | (50) | ताराली बंधू |
| शोभा | (17) | किरणाली इष्टीण |
| रमा | (39) | रत्नाली भयणी |
| शांता | (28) | किरणाली टीचर |

## प्रथम रंग / रंगविधान

एक व्हड घराचें फिदरा कूड. बरें सोफा, टीपोय इत्यादी आसा. मागल्यांतुल्या पागारार एक षो केसांत पुरस्कार, फलकां इत्यादी. वेदीचे दाव्यान घरांत येंवचें कवड आनी उजव्यान घरां भितर वचें कवड आसा.

*तारा सोफेर बेसून पत्र वाचीता. स्वल्प वेळान तें धांकून घडी घालता आनी टीपोयाचेर दवरता. दोनीय दोळे हळूच घष्टिता. मागीर वेदीचे उजव्यान चोवनु (घरा भितर) उलो मारता -*

**ताराः** (स्वल्प होडान) रत्ना! आजि उक्करेक इतें की? अशी हाडि, शिंदीतां!

*वेदीचे उजव्यांतुल्यान रत्ना वेदीर येता. हातांत एक स्टीलाचें भोगडें आनी एक प्लेटार एदीच जीवि चवळी.*

**रत्नाः** जीवि चवळी तं अम्मा.. *(टीपोयाचेर दवरता)*

**ताराः** चवळे उक्करी सायनातिल्लो एकोलो आसा मू!

**रत्नाः** कालची सोपूर कूका उक्करी आसा, फ्रिजांत. चेल्याक ती पूरो खंय! ही चवळी कातरूक पेसकाती जाय वे?

**ताराः** नाका, नाका! माका पेसकाती कांय नाका! जीवि चवळी मोडूक आशिल्ली त्राणी मिगेले बोटांक आतांय आसा! ह्या पायांनी तं माका घात घाला! (हळूच पाय घष्टिता)

**रत्नाः** (मोगान) दुकता वे अम्मा? तें *रुमालया* लायल्यार आश्वास मेळतलो. चेलो लावनु दितलो..

**ताराः** नाका, नाका! आतां कांय बाधा ना माका! हाता कायरें

सांगतना हें जिबेर आयलें म्हूण मात्र! तूं तें कानांत व्हरनाका!

**रत्नाः** आतां आका येवंचा पुरो..

*हें सांगून रत्ना परतून (घरा भितर) वता.*

**ताराः** कोण, वत्सल वे? (आत्मगत) ओ, आजि तिका अवधी मू! *ती चवळेचें प्लेट आनी आयदन लागी ओडीता आनी संथ चवळी मोडून आयदनांत घालूक आरांभिता. ह्या वेळार भितर थाकून किषन वेदीर येता आनी टीपोयावेलें पेपर काडता.*

**किषनः** अम्मम्मा, पेपर हांव व्हरता वे?

**ताराः** (मोगान) व्हर रे चेल्या! चांग चोवनु वाचि! समजलें वे?

**किषनः** (हासून) जनरल नोळेज जाय नवें, अम्मम्मा, तें तं!

*किषन परतून भितर वता.*

**ताराः** (तो गेलो म्हूण खात्री करून जावनु आत्मगत करता) जनरल नोळेज कांय ना तांतूं! आसा सर्व क्रिमिनल नोळेज मात्र! कोणे खंतंय इतें वायट केलें, कसोलो अधर्मु केलो, म्हूण जाण जावंका वे? पेपर चोयल्यार पुरो! कष्ट, कष्ट!

*ह्या वेळार वत्सला भायर थाकून (दाव्यांतुल्यान) येता. हातांत एक सान पटळी आसा.*

**वत्सलाः** (लागी येवनु) इतें जालें अम्मा? तोंडार एक अतृप्ती? चवळी वायट म्हूण वे?

**ताराः** (मातें उबारनु तिका चोवनु हासता) तशी कांय ना गो वत्सल! खबरे पत्रांचेर आतातां येवंचे कूडे खबरां विशीं हांव अशीच आठयतालीं. हें सर्व नवें आमगेलीं सान चेरडूवां वाचिताय?!

**वत्सला:** (लागी बेसता) कोणा विशीं की अम्मा सांगता? किषनालें कार्य वे? की चेलेलें?

**तारा:** दोगांलेंय कार्य गो! तुकाय नाय वे दोग जाण चेले?!

**वत्सला:** मेगेल्यांक पेपर म्हळ्यारीच अलर्जी तं! आयतारा सप्लिमेंट बी चोयल्यार जालें. ना जाल्यार तान्नी तें आपडून सरी चोवन्ना!

**तारा:** हांगाचे दोगांकय पत्र वाचूका! मलयाळम मात्र न्हय, इंग्लीष पत्रय जाय! हें चांगाक की इतें!

**वत्सला:** (हातांतुली पटळी दिता) घे, हांवें तळ्ळेली दोन काजूबी तं!

**तारा:** इत्या गो वत्सू, एकेक अशी पटळी बांदून हाडता?!

**वत्सला:** (हासता) तुगेलो हो 'वत्सू' म्हळ्ळोलो उलो आयकूचे खातीर म्हूण आठय!

*दोगांय हासताय. तारा पटळी घेवनु ती वाकती करता आनी दोन काजूबी खाता. मागीर दोन काडून वत्सलाकय दिता.*

**तारा:** तूंवय खा गो मिजे ओटू!

*मागीर ती भितर चोवनु उलो दिता.*

**तारा:** किषन! आरे किषन!

*किषन भितर थाकून येता.*

**किषन:** इतें अम्मम्मा?

**तारा:** इच्चय अक्का आयल्या! अक्कान दोन काजूबी तोळनु हाडल्या. घे, किरणाकय अम्माकय लागेन दी.

*तारा पटळी ताका दिता. तो ती घेता.*

**किषन:** (हासून) थेंक यू अक्का! (परतून वता)

**ताराः** (ताणें वचून जातना, धुवे लागी) वत्सू, तूं हें एकेक हाडता तुगेले अम्माक दिवंचाक तं! जाल्यार तें मिगेले तरपेन हे चेरडुवांक दिवंचांत तं माका संतोषु..

**वत्सलाः** तें मागीर हांव जाण नवें अम्मा!

**ताराः** मिजान जावंचे वेळार हांव तांकां इतेंय सर्व कोरनु दितालीं. आतां मिजान तशी कांय जायना नवें!

**वत्सलाः** अम्मा अशी साबाव विचार काडूनाका! अम्माक इतेंय बाधा जाता जाल्यार सांग! इतेंय दुक्की, ओळु बी आसा वे?

**ताराः** मिजे भितर गो वत्सू! हे दुक्केक ओक्कद कांय ना! (दीर्घ निश्वास)

**वत्सलाः** अम्माक हांव मिगेथंय व्हरूं वे? उणेच दिसांक पुणीय?

**ताराः** तें कांय नाका गो! हांगाच तं माका सुख! हांगा माका कांय एक उणाव ना! तशी बी आठयशी तूं! मिगेलें हें किडी रण्णें आयकूक, वेळ मेळतना तूवें आयल्यार मात्र पुरो!

*भितर थाकून रत्ना एक ट्रेंत दोन ग्लास च्या आनी एक प्लेटांत स्वल्प बिस्कूत घेवनु येता. मंदहास करून तें टीपोयार दवरता.*

**रत्नाः** घरकडे सगटांक क्षेम नवें अक्का? अरुण आनी वरुण इतें करताय?

**वत्सलाः** दोगांय मेळनू सकाणीच देवळांत गेल्याय! तांगेले युवसंघाचो कार्यक्रम आसा खंय!

**रत्नाः** च्या पियाय अक्का!

*रत्ना चवळेचें आयदन आनी प्लेट काडता आनी भितर वता.*

**ताराः** (संथ च्या पिता. बिस्कूत खाता) ते दोगांय एकसाणीच

भोवंताय म्हळ्ळेलें एक होड कायरें गो वत्सू! भावा भावा मद्दें झगडें झूज ना नवें!

**वत्सला:** (संथ च्या पिता. बिस्कूत खाता) तें व्हय अम्मा! सान आसतना केदनाय झगडें तं आशिल्लें. आतां एक जाले! देवा नमस्कार!!

**तारा:** (हासता) अब्बा! माका उडगास आसा! तान्नी हांगा आयल्यार एक झोड आयलेल्या वरी तं दिसतालें. झोड जाल्यार पावसूय! एकोलो पुणीय रडून तं वतालो!

*दोगांय हें कार्य आठोवनु दुशेर दुशेर हासताय. मागीर अक्का संथ उटायता. ग्लासां सयत ट्रे हातांत काडता.*

**वत्सला:** जाल्यार हांव सांगून येतां.. (भितर वता)

*अक्कान भितर गेलेले वेळार भायर थाकून सुगंधी येता आनी ताराले लागी वता.*

**सुगंधी:** इतें खंय अम्मम्मा! एकलीच वे आसा? कोण ना वे हांगा?

**तारा:** (मंदहास) कोण, सुगंधी वे! यो, यो! बेस. इतें विशेष?

**सुगंधी:** (लागी बेसता) आजि किरण धुवेलें रिसल्ट येता म्हण्टाली मू! आयलें वे?

**तारा:** व्हय वे? पेपरार वे?

**सुगंधी:** पेपरार न्हय! नेट्टा्र! तांकां तें कंप्यूटरार चोवंचाक जातलें!

*ह्या वेळार भितर गेलेली वत्सला परतून येता.*

**वत्सला:** (तारा लागी) हांव देंवता जाल्यार. वेळ मेळतना येवीन..

**तारा:** जावो तशी! हिका वळखना वे? शेजारची सुगंधी! (अशी तशी परिचय दिता) ही मिगेली धूव वत्सल!

**सुगंधी:** ओ, हांव जाण! बांकांत जोली आशिल्ली अक्का!

**वत्सलाः** (हासता) आजि बांक अवधी नवें! तें दिकून साबाव आयलेली. आतां आनी वतां..

**ताराः** (मातें हालयता) यो केदनाय सगट!

*वत्सला संथ चमकून भायर वता. सुगंधी तारा लागी घुवंता.*

**सुगंधीः** सान प्रायेर माका शिकूक दिलेलें जाल्यार हांवय आतां अशी जोलिकारणी जातली आशिल्ली! बापान माका शिकूक दिलेंना!

**ताराः** (सांत्वन दिता) तें वचो गो सुगंधे! तेंच तें, तेंच तें आठोवनु बेसूनाका!

**सुगंधीः** (कोपु काडता) तें न्हय अम्मम्मा, माका चांग शिकवण येताली तं. केदनाय क्लासांत फस्ट आशिल्ली. जाल्यारीय मिगेली शिकवण राबयली! धाव्यांत पर्यान सरी शिकूक दिलेंना!

**ताराः** (सांत्वन दिता) वचो! वचो! आतां तें सर्व चिकूण काडता कित्या? कांय उपकार आसा वे ताजान?!

**सुगंधीः** ना अम्मम्मा, कांय गूण ना! आतां आनी सांगून कांय प्रयोजन ना! (हासता) मिगेलो कपला बोरो!

**ताराः** तुगेले चेलेलें कायरें खंय पावलें?

**सुगंधीः** आं, तिका सोयरीक सोदिताय आसा..

**ताराः** धाकलेली शिकवण ह्या वर्षान जातली वे?

**सुगंधीः** व्हय अम्मम्मा..

**ताराः** सगट चांग जातलें सुगंधे! तूं साबाव हुसको काडूनाका!

**सुगंधीः** आतां माका हुसको ना, अम्मम्मा! दोग चेलियांकय शिकवण आसा! होडली जाल्यार चेरडुवांक ट्यूषन काडून दुड जोडता लागेन!

**ताराः** हे स्थितीर पावंचाक तूंवय तुगेले बामणानय मस्त कष्ट

काडले म्हूण हांव जाण गो!

**सुगंधीः** देवालो खेळु! (वयर चोयता आनी हात जोडता) देवा राक!

**ताराः** (हासता) तुगेले गीताक एक चांग सोयरीक लागो म्हूण हांव प्रार्थन करीन गो! चड दुरा न्हय तसले एकडे थाकून एक चांग चेलो तिका मेळतलो! 'स्त्रीधन, स्त्रीधन' म्हूण जपूनातिल्ल्या एक बप्पालो पूत!!

**सुगंधीः** (संतोषान) तें पुरो अम्मम्मा, तें पुरो! आमकां साजूचो एक चेलो पुरो तिका! (उटायता) जाल्यार हांव येतां. किरण धुवेलें रिसल्ट आयल्यार माकाय जाणोवंका..

**ताराः** जावो तशी..

*सुगंधी भायर वता. उपरांतें भितर थाकून रत्ना येता.*

**रत्नाः** सुगंधीलो इतें विशेष अम्मा?

**ताराः** ती तिगेले चेलेलें कायरें सांगताली. मागीर आजि किरणालें रिसल्ट आयलेंना वे म्हूण निमगिताली..

**रत्नाः** (एक घडियेक मौन राबून) तिगेलें रिसल्ट आयलें अम्मा! तें दिकून तं ती आजि अशी आयलीना! रांक लिस्टार स्वल्प मागल्यान जाल्या! आठयलेले कोळेजांत सीट मेळूक कष्ट जातले..

**ताराः** (तोंड बांवता) ओ, तशी वे? ती इतें करता?

**रत्नाः** तिगेले कूडांत आसा. कंप्यूटरार..

**ताराः** (संथ उटायता.पाया दूकि आसा.) हांव एक वता थांगा..

*रत्ना तिजे सहायाक वता आनी दोगांय मेळनु भितर वताय. स्वल्प वेळ जातना भायरचें DOORBELL वाजता. तेन्ना रत्ना (हातांत मोबायल आसा) भितरचान परतून येता, वेदीवेल्यान*

*भायरचे कवडा कडे वता आनी मागीर जंबक्काचे ओट्ट परतून वेदीर येता.*

**जंबक्का:** कवड वाकतें म्हूण हांवें दिकीलें! जाल्यार मुकार कोण ना दिकून तं बेल वाजीलेलें..

**रत्ना:** येदोळ पर्यान अम्मा आशिल्ली तं हांगा! आतां भितर गेली मात्र..

**जंबक्का:** कशी आसा तारक्का?

**रत्ना:** अम्मा क्षेमान आसा. चमकतना स्वल्प पाया दूकि आसा..

**जंबक्का:** चमकू वता इत्याक? आनी आतां पाय सोडून बेसूयात मू! (हासता) तुमी सगट नाय वे घरांतुलें काम करूक!

**रत्ना:** अम्माक तशी साबाव बेसून शीलं ना..

**जंबक्का:** शीलं ना? संवय ना म्हूण सांग! अशी मलबारी उतरां आमी इत्या उलोवंका?!

**रत्ना:** (मंदहास) जंबक्का बेस! पिवंचाक इतें जाय?

**जंबक्का:** एक खोलो शेळ उदाक दी! वेगळें कांय नाका रत्ना! माकाय प्राय जावनु नवें येता!

*रत्ना हासता आनी भितर वता. जंबक्का सोफेर बेसता.*

**जंबक्का:** उफ! कसलें एक उष्ण! फानान कांय होड प्रयोजन ना! देहाचेंय आसा! साबाव वोता पावसाक सांगल्यार जाता वे? मुरथमले वरी भोंवडी करूक जायना! प्राय जावनु येता!

*रत्ना भितर थाकून एक ग्लासांत उदाक घेवनु येता आनी तें टीपोयार दवरता.*

**रत्ना:** जंबक्का, जेवण जावनु सांजे गेल्यार पुरो नवें?

**जंबक्का:** ना, धुवे! हांव जेवंचाक राबना. मिगेले पुतालें घर हांगा

लागी नवें? माका थांगा वचूका!

**रत्ना:** (आश्चर्यान) व्हय वे? हांव नेण आशिल्लीं! केद्दाण थाकून तीं ह्या गांवांत आसाय?

**जंबक्का:** आतां एक वर्ष जाता... (मातें बावगयता)

**रत्ना:** (आश्चर्यान) एक वर्ष! तावळी जंबक्कान मुरथम येतना...

**जंबक्का:** (खिन्न भावान) व्हय धुवे, हांव थांगा वचप नाशिल्लें! तान्नी आमगेथंय येवपय नाशिल्लें..

**रत्ना:** (मंदहास) ओ, कशीय जावो. आतां सगट सम जालें नवें? आयकून संतोष जालो!

**जंबक्का:** कालि तान्नी सगट मेळनु आमगेथंय आयलीं. आजि चेरडालो जायदीस खंय म्हूण आमकां उळदूक! मिगेले बामणाक यात्रा करूक जायना. हांव आयलीं...

**रत्ना:** (संतोषान) जंबक्काले नातवालो जायदीस वे आजि?! चांग कायरें! तो केद्दो जालो?

**जंबक्का:** पांच वर्षां जालीं ताका! तारक्का निदेता बी वे?

**रत्ना:** ना, ना, अम्मान देनपारां कांय निदेवप ना! आजि आतां चेले लागी इतनेन उलोवनु बेसल्या तं..

**जंबक्का:** व्हय वे.. जाल्यार हांव वतां धुवे! तारक्काक एक उपकार सांगूक तं हांव आयलेली!

**रत्ना:** (आश्चर्यान) व्हय वे?! उळदूका वे?

**जंबक्का:** नाका, नाका! चमकूक बाधा जाता नवें अक्काक! हांव येवनु उपकार सांगून गेली म्हूण सांगल्यार पुरो! हांव आनी एक दिसा हांगाच म्हूण येवीन!

**रत्ना:** (मंदहास) इत्या खातीर की उपकार? हांव जाण जाव्यात वे?!

**जंबक्का:** ती एक काणि गो धुवे! पांच वर्ष फूडे मिगेलो एकलोच पूत आमचे लागी झगडून वेगोळो जालोलो. नातू जावंचाकय नामकरण इत्यादींक आमी नांवां पुरोश तोंड दाकयलें नंतना अशी तशी जाप सरी नाशिल्ली! हें कायरें हांवें तारक्का लागी सांगप आशिल्लें. मिगेलें दुख सांगून रडप आशिल्लें. तारक्कान सदा माका धीर दीवप. तीन विश्वास आमकां केदनाय जाय म्हूण तारक्कान सांगप! एक - ईश्वरविश्वास! दुशेरो - शुभाप्तिविश्वास! आनी तिसरो - आत्मविश्वास! अशी अक्कान माका धीर दीवप! ते धैर्यान तं हावें आजि भितर दीस काडलेले! आजि आतां देव पावलो! पुतान बप्पा लागी क्षमा मागीली! आमी दुशेर अम्माबप्पा जालीं! आबु आयी जालीं!

**रत्ना:** आयकून संतोषु जालो जंबक्का! होड संतोषु जालो!

**जंबक्का:** हांव वता तावळी. किषनालो बप्पा बी लागी खंय येतासा वे?

**रत्ना:** येवंचे वारा येतोलो. चेल्लेक कोळेजांत घालका!

**जंबक्का:** कंप्यूटर इंजिनीर वे!? (हासता)

**रत्ना:** (ओटू हासता) व्हय! तांतूं तं तिजें मन..

**जंबक्का:** चेरडुवांकय हांवें निमगीलें म्हूण सांग!

**रत्ना:** जावो तशी..

*जंबक्का भायर वता. तें जावनु रत्ना हातांतुले मोबायलाचेर तिगेले भयणीक उळदिता आनी मोबायल कानाक लायता.*

**रत्ना:** (स्वल्प राकून जावनु) हलो, रमा? (रमा : इत्तक्के?)

**रत्ना:** आगो, तुका एक हांगा येवंचाक जातलें वे?

(रमा : इतें जालें? इतें विशेषु?)

**रत्नाः** किरणालें रिसल्ट आयलें! रांक लिस्टार मागल्यान जाल्या!

(रमा : ओ, कष्ट! ती इतें करता?)

**रत्नाः** स्वल्प निराश जावनासा तिका! आमी सगटांनी समजायल्या! तूंवय एक येवनु धैर्य दी!

(रमा : ओके, अक्का, हांव आतांच येतासा!)

**रत्नाः** यो जाल्यार..

*मोबायल कानाकडे थाकून काडून रत्ना चितेंत मग्न जाता. अशी तशी लातीयो घालता. ह्या वेळार भायर थाकून शोभा येता.*

**शोभाः** अक्का, किरण इतें करता?

**रत्नाः** ती तिगेले कूडांत आसा शोभा! एंट्रन्स रिसल्ट आयलें म्हूण जाण नवें! आं, तिका आठयलेलें रांक कांय मेळ्ळेंना..

**शोभाः** (दुखान) हांव जाण रत्नक्का! तें तं हांव होगी आयलेलीं..

**रत्नाः** वचून तिका एक समजाय तूंवय! (उडगास करून) आं, तुगेलें रांक कशी?

**शोभाः** माका फोर थावसेंटा लागी आसा!

**रत्नाः** (संतोष) व्हय वे! तें चांग रांक मू! तुका अभिनंदन! तावळी तुका चांग कोळेजांत सीट मेळतलें मू!

**शोभाः** व्हय रत्नक्का, थेंक यू रत्नक्का! (संतोष वचून दुख) आमकां दोगांकय एकच कोळेजांत शिकूका म्हूण तं आशिल्लें..

**रत्नाः** तें कांय आतां तिका उडगास दीवनाका! इतें जाल्यारीय तिका तिगेलो इष्टविषय शिकूक तिगेलो बप्पा इतेंय वाट सोडून काडतलो म्हूण सांग! एक धैर्य दी!

**शोभाः** (दुखान) तीणें माका तं केदनाय इत्याकय धैर्य दीवप! अंकल येतासा वे?

**रत्नाः** व्हय, येवंचे वारा येतलो..

**शोभाः** ओके अक्का, हांव तिजे लागी वतां..

**रत्नाः** आं..वच..

*रत्ना दुशेरीय चिंतेंत बुडून लातीयो घालता. एक पावटी मोबायलार कोणाक तरी उळदूक आरांभिता आनी मागीर नाका म्हूण दवरता.*

**रत्नाः** (आत्मगत) नाका.. तांकां दुशेर उळदून बेजार करका नाका! तान्नी येवनु ह्या कार्याक एक योग्य समाधान दिकतले. (एक घडियेक चिंतिता आनी आश्चर्य पांवता) कंप्यूटराचे कितूले मत्सरांत तिका पुरस्कार मेळ्ळे! संस्थान तलाचेर! देशीय तलाचेर! आनी अंतर्देशीय तलाचेर पर्यान! ताजानी कांय प्रयोजन दिकूयेना मू! (षो केसा लागी वचून पळयता) इंटर नाषनल कंप्यूटर ओलिंप्याडाक गेले तीन वर्षांक तिका मेडल मेळ्ळ्यां.. दोन ब्रोण्स आनी एक सिल्वर! केद्दो संतोष आशिल्लो! कोणें कोणें सगट अनुमोदन दिलें, लेक ना!

*रत्ना दुशेरीय परतून टीपोया लागी येता. वाचार चोयता. मुकावेले कवडाकडे प्रतीक्षेन चोयता..*

**रत्नाः** (आत्मगत) ही केद्दाण पांवतली? आंगडींत खीट बी आसा वे म्हूण कळना..तीणे आयल्यार माकाय एक धीर तं. प्रायेन हांव होडी जाल्यारीय कार्यप्राप्तीन ती तं अक्का!

*ह्या वेळार मुकावेले कवडाचेर एक खटखटायता आनी रमा सुमसुमीच भितर येता.*

**रत्नाः** (संतोष आनी आश्वास) आंगडींत खीट बी आसा गो?

**रमाः** चड कांय ना अक्का. तान्नी आसाय थांगा..

**रत्नाः** किरणाली फ्रंड आयल्या..

**रमाः** कोण, शोभा वे?

**रत्नाः** व्हय! तिका फोर थावसेंटा लागी रांक आसा..

**रमाः** तावळी सरकार कोळेजांत सीट मेळतलें. फीस ऊणे पुरो.

**रत्नाः** आं! तें तं हांव चोयता! आमगेलेक कशी रांक ऊणे जालें?!

**रमाः** (हासता) तुजी **आमगेली** तिजेवरी न्हय मू अक्के!

**रत्नाः** म्हळ्यारी?! प्लस टूवाक तांकां दोगांकय एयटी पेरसेंट मू..

**रमाः** प्लस टूवाक टोटल एकवरीच जाल्यारीय वेगवेगळे विषयांचें मार्क तूं चोयली वे? शोभाक सग विषयांतूय मार्क एकवरीच आसा. जाल्यार तुजे **आमगेलेक** तशी न्हय!

**रत्नाः** तिका सग विषयांतूय सिक्स्टी पेरसेंट पुणीय आसाच!

**रमाः** (हासता) सिक्स्टी म्हळ्यार आतां एक मार्क न्हय अक्के! किरणाक कंप्यूटर आनी मात्साक नायन्टी एय्ट पेरसेंट आसा! जाल्यार फिसिक्स आनी केमिस्ट्रीक एय्टी सरी ना! लांग्वेजांक सेवेन्टी पशी ऊणे!

**रत्नाः** (दुख पांवता) तावळी तिका चांग कोळेजांत सीट मेळना वे?

**रमाः** (हासता) तूं अशी एक भिजूडि मु गो मिगेले अक्के!

**रत्नाः** तुका तशी सांगूयात! माका एक समाधानय ना!

**रमाः** (हासूनूच) कोणाक धैर्य दिवंचाक की तूवें माका हांगा उळदिल्ली? तिका की तुका!

**रत्नाः** तें मागीर.. तूं आयल्यार माकाय एक धैर्य म्हूण तूं जाण मुगो!

**रमाः** (हासता) तूं धैर्यान राब अक्के! तुगेली किरण एक स्पेशल चेली तं! तिका तिगेले इष्टविषय आसाय! तांतूं तिका हारोवंचाक साध्य न्हय! इंटर नाषनल कंप्यूटर ओलिंप्याडाची मेडलिस्ट नवें ती?! लागी लागी तीन वर्षांक मेडलिस्ट! (हासता) जाल्यार इतर विषयांत तिका कांय इंटेरेस्ट ना.. तें तं प्रश्नु!

**रत्नाः** एंट्रन्साक रांक ना जाल्यार कशी चांग कोळेजांत सीट मेळतलें?

**रमाः** हांगाचे कोळेजांत मेळना. जाल्यार भायर आशिल्ले कोळेजांत मेळू पुरो.. सोदूका..

**रत्नाः** भायर म्हळ्ळ्यार? कर्नाटकांत, तामिलनाडूंत वे?

**रमाः** ना.. ना.. भायर म्हळ्ळ्यार, इंडिये भायर!

**रत्नाः** (आखांत) इंडिये भायर? विदेशांत वे?!

**रमाः** व्हय! विदेशांत...

**रत्नाः** (संशयान) तुमी इतेंय सोदून दवरल्यां बी वे?!

**रमाः** अक्के.. (मोगान) माका तुजे लागी एक कायरें सांगूक आसा..

**रत्नाः** (आकांक्षेन) इतें गो? सांग!

**रमाः** (मंदहासपूर्व) अक्के, तुजे वरी स्नेह आशिल्ली अक्का ना! तुजे वरी स्नेह आशिल्ली अम्मा ना आनी सूनय ना..

**रत्नाः** (संतोष) इत्या गो माका अशी आतां वांकाणसिता?!

**रमाः** तें तं सांगू वता! किरणाक आतां विदेशांतुले कोळेजांत अडमिशन मेळ्ळ्यार तूं इतें सांगतली?!

**रत्नाः** (एक घडी चिंतन करून, मंदहासपूर्व) हांवें अमसरान कांय

सांगुन्ना गो! इतें कोरका, कशी कायरें, म्हूण सर्व तुजे लागीच निमगितली! निश्चय काडूक तुजो भावाजी जाण! बरें वायट स्वल्प किरणाकय कळता...

**रमाः** (आश्चर्यान) अक्के, तूं नंबर वण अम्मा आनी नंबर वण बायल! हांवें आठयलें तूं साबाव आखांत काडून नाका नाका म्हूण सांगतली म्हूण!

**रत्नाः** (हासता) आखांत आनी हुसको आसतलोच गो! जाल्यार हांव तिका विघ्न राबतली वे? हांगाचे अम्मालो एक मंत्र आसा - ईश्वरविश्वास, शुभाप्तिविश्वास आनी आत्मविश्वास! तो मंत्र तं हांवेंय घटी धरला!

**रमाः** (हासता) तुगेले मोगाचे धुवेकय तो मंत्र मेळ्ळोलासा!

**रत्नाः** (चिंतिता) जाल्यार तूं वचून तिकाय एक धीर दी!

**रमाः** (हासता) तिजे लागी हांव फोणार उलयली! (हातांतुलें मोबायल उबारून दाकयता) तीणें कांय धीर सोडलोना! तुका धीर दिवंचाक तं हांव आयलेली!

*ह्या वेळार भितर थाकून किरण आनी शोभा येताय.*

**शोभाः** किरण, हांव येता जाल्यार! तुका बेस्ट विषस! (रत्ना खातीर) अंटी हांव येतां..

**रत्नाः** जावो तशी..

*शोभा भायर वता तीं चोवनु राबताय. ताजे उपरांतें..*

**किरणः** (रमा लागी) हाय, मावशी!

**रमाः** कशी कायरीं?

**किरणः** (मंदहासपूर्व) होप आसा!

**रमा:** (तामाशे रूपान) एंट्रन्स रांक ना दिकून तूं खायना पीना खंय मू तुजी अम्मा सांगता!

**रत्ना:** तशी कांय हांवें सांगलेंना!

**किरण:** (मोगान) अम्मा! मावशी तुका खेळ करता तं साबाव!

**रमा:** किरण, ते टीचरान सांगिल्ले वरी सगट ओणलायन जावनु एप्लै केलें वे?

**किरण:** व्हय, मावशे!

**रमा:** (षोकेस दाकोवनु) कंप्यूटर ओलिंप्याडाचे मेडला कायरेंय..

**किरण:** व्हय, मावशे, थांगा थांगा मेनषन केलेंलासा!

**रमा:** हांवें अक्का लागी सगट सांगून दवरल्यां.. कशी कशी जाव्यात म्हणूय, विदेशाचें कोळेज म्हणूय सगट..

**रत्ना:** (दोगांकय परतून परतून चोयता) तुमी दोगांनीय मेळनु इतें सर्व की निश्चय केला?!

**किरण:** अम्मा.. माकाय ते शोभाले ओटू हांगाचेच एक चांग कोळेजांत शिकल्यार पुरो म्हूण तं आशिल्लें. जाल्यार ताका वाट ना म्हूण दिसून हांवें विदेशांतुले उणेच विश्वविद्यालयांतूंय एप्लै केलेलें. तांतूं एकडे चान्स आसा! अम्मा लागी सांगूक हांवें तं मावशे लागी सांगिल्लें..

**रत्ना:** बरें वायट सर्व तुमीच चोवनु काडका! बप्पा लागीय आतांच सांगून सोडि! तोडोव कोरका नाका!

**किरण:** बप्पाक हांवें ईमेल करून सर्व कळयल्यां! बप्पा सांगता इतें म्हूण जाण वे?

**रत्ना:** (आकांक्षेन) इतें खंय बप्पा?

**किरण:** (हासता) बप्पा सांगता अम्मा लागी सांग खंय!!

*(तेगांय मेळ्नु होडान हासताय. यवनिका देंवता.)*

*ह्या वेळार यवनिके मुकार कांय जाणांचें एक गायकवृंद ताळ वाजून दाव्यांतुल्यान संथ चमकून येता. प्रेक्षकांक तोंड करून हें गीत गायन करता आनी संथ चमकून उजव्यांतुल्यान परतून वता -*

ईश्वरविश्वासु धीरु वाड्डयता
अशुभ विचारांक दूरा धांवयता
वाट दाकयता, मेट चडयता,
संसारसागरु पार करयता!

शुभाप्तिविश्वासु मित्र सदांचो
सगळी वाट सांगात दिवंचो
आशेचीं किरणां, भावीचीं सपनां,
आमच्या मनांतु सदैव फुलावंचो!

आत्मविश्वासान पावल दवोरका
आकुलचिंतन दूरा उडोवंका
स्वताचे श्रमान सार्थक जीवन
ध्येय मेळोवंका! श्रेय मेळोवंका!

* * *

## दुशेरें रंग / रंगविधान

तेंच घर. तेंच कूड. एक म्हयनो उपरांतें. सोफा, टीपोय इत्यादी तेंच आसा. स्वल्प तोरण अलंकार आदीन कूड सजयल्यां. आघोषाचें अंतरीक्ष.

*तारा सोफेर बेसून पत्र वाचीता. स्वल्प वेळान तें धांकून घडी घालता आनी टीपोयाचेर दवरता. दोनीय दोळे हळूच घष्टिता. मागीर वेदीचे उजव्यान चोवनु (घरा भितर) उलो मारता -*

**ताराः** (स्वल्प होडान) रत्ना! आजि उक्करेक इतें की? अशी हाडि, शिंदीतां!

**रत्ना :** (घरा भितरचान) आजि जेवण भायर थाकून नवें अम्मा!

**ताराः** (आत्मगत) ओ, व्हय मू! कसोलो एक विसोर मिगेलो! आजि किरणालो आघोष नवें! (दुशेरीय घरा भितर चोवनु होडान) फाले केद्दाण की तिगेलें फ्लाय्ट? सीधा अमेरिकेक वे?

**रत्ना :** (घरा भितरचान) फाले सकाळीं तं अम्मा! हांगा थाकून मुंबै वतली. थांगा थाकून मागीर तिगेले बप्पा ओट्टू अमेरिकेक वतली! (एक घडी जावनु) ईच्चय ती थांगा येता आसा अम्मा!

*(ह्या वेळार भितर थाकून किरण येता.)*

**किरणः** (मंदहासपूर्व) इतें अम्मम्मा!

**ताराः** (मंदहासपूर्व) आं.. किरण! हांगा यो धुवे!

*(किरण तिजे लागी वचून बेसता.)*

**ताराः** वचाक आशिल्लें सर्व तयार केलें वे?!

**किरणः** व्हय अम्मम्मा, सर्व पॅक कोरनु दवरलें!

**ताराः** चांग जावो धुवे! आजि हांगा कोणकोणाक की उळदिल्यांय?

**किरणः** (चिंतून सांगता) अक्का आनी जंबक्का. सुगंधी अक्का आनी मावशी. मिगेली फ्रेंड शोभा आनी शांता टीचर. इतलींच जाण मात्र तं अम्मम्मा!

**ताराः** कीर्तीन येवन्ना वे?

**किरणः** आं, व्हय. मावशे ओटू कीर्तीय येतली!

**ताराः** तावळी आमीय सयत बारा जाण! भितर बेसूक जातलें वें?

**किरणः** ना, अम्मम्मा! हांगा खालाक पानां दवरतलीं! अम्मम्माक हे टीपोयाचेर दवरल्यार पुरो वे?

**ताराः** (संतोषान) ओ, खुशाली! माकाय तुमचे ओटू बेसूयात नवें!

**किरणः** (भायरचे कवडा कडे चोयता आनी संतोषान उटायता) ईच्चय शांता टीचर आतांच आयली अम्मम्मा!

**ताराः** (संतोषान) व्हय वे!

*किरण भायरच्या कवडा कडे वता आनी परतून टीचराकय घेवनु येता. टीचराले हातांत एक उपहारा पॅकट आसा.*

**किरणः** (टीचरा लागी) मिगेली अम्मम्मा!

**शांताः** (हात जोडता) नमस्कार!

**ताराः** (हात जोडता) नमस्कार! बेसाय टीचर..

*टीचर हातांतुलें पॅकट टीपोयार दवरता आनी सोफेर बेसता.*

**शांताः** (मंदहासपूर्व) अम्मम्मा, मिजे लागी **बेस** म्हूण सांगल्यार पुरो, **बेसाय** म्हूण सांगूका नाका! तुमी माका म्हालगडी नवें!

**ताराः** (हासता) म्हालगडी म्हळ्यार प्रायेन म्हालगडी. जाल्यार तुमी अध्यापक म्हळ्यार विद्यादान कोरचीं जन नवें! ते खातीर तुमकां मानु दींवका!

**शांताः** (हासता) अम्मम्मा, तुमी माका धुवे समान आठयल्यार पुरो!

**ताराः** (हासता) तशी जावो धुवे! हें इतें की हाडल्यां?

**शांताः** हें स्वल्प स्वीट्स तं! किरणाक दिवंचाक हाडलेलें.. (पॅकट काडून किरणाक दिता) बेस्ट विषस किरण!

**किरणः** (हासता) थेंक यू टीचर!

**शांताः** अम्मा भितर बिसी वे?

**किरणः** ना, टीचर! आतां येतली!

**शांताः** अमसोर कांय ना! हांव स्वल्प उलोवया म्हूण आठोवनूच आयलेली! सगटांक एक वळखुया म्हूण दिसलें..

**किरणः** टीचर बेस. हांव अम्माक उळदून हाडीन!

**शांताः** (बेसता) जावो तशी..

*किरण उपहारा पॅकट घेवनु भितर वता.*

**शांताः** (संथ चारीय तांतूं चोयता आनी मंदहासपूर्व) चांग डेकरेषन केल्यां मू!

**ताराः** (हासता) किषनालें दंद तं.. किरणालो धाकूलो भाव..

**शांताः** ओ, चांग कायरें! चांग कायरें! हांव किरणाले अम्माक अभिनंदन दिवंचाक तं अशी साकांघडीच आयलेली..

**ताराः** (आश्चर्यान) तें इत्याक धुवे? आमी तुका न्हय वे उपकार धन्यवाद सगट सांगूका जालोलो? टीचरान तिका मस्त प्रोत्साह, सहाय सगट दिलोलासा म्हूण तं किरण सांगताली..

**शांताः** किरणा वरी आशिल्ले एक चेलेक आमी प्रोत्साह दिलोना

जाल्यार मागीर आमी अध्यापक म्होणचांत अर्थ ना!

**ताराः** आमगेलें भाग्य!

**शांताः** व्हय अम्मम्मा! तिका तुमी शिकवणे खातीर विदेशांत पेटोवंचाक तयार जालेलें तिगेलें भाग्य! ते खातीर तं हांव किरणाले अम्माक अभिनंदन दितां!

**ताराः** हां, रत्नाक भितर भय हुसको आसा जाल्यारीय तीणे कसल्याकय विघ्न जावनु राबुन्ना!

**शांताः** आं, तसले मनस्थितीक तं आमी मानु दीवंका! धा वर्षां मुरथम माकाय अशी स्कोळरषिप सगट मेळतलें आशिल्लें तं! विदेशांत कांय न्हय, भारतांतूंच! जाल्यार माका मिगेले अम्मान सोडलीना..

**ताराः** (सांत्वन दिता) तें कांय मनांत घेवनु बेसूनाका धुवे! एक आवसूले मनांतुलो उजो आखांत मागीर तुकाच समजतलो!

**शांताः** (शांत जाता) व्हय आसूयात अम्मम्मा! जाल्यार किरणाले अम्माले मनांतूंय तशी सर्व ना वे? धुवे लागी स्नेह ना वे?!

**ताराः** आसासा! मस्त आसा! जाल्यार ही रत्ना म्हळ्ळेली एक रत्नच! टीचर जाण वे, जायते कालांक तीं सर्व तांचे बप्पाले ओट्टू कुवेटांत तं आशिल्लीं. तांकां जाय जाल्यार आजीय थांगाच राबूयात आशिल्लें..

**शांताः** मागीर इत्याक तीं मात्र परतून आयलीं?

**ताराः** मिजे खातीर!!

**शांताः** (आश्चर्य) व्हय वे?!

**ताराः** व्हय गो धुवे, मिजे खातीर तं हीं सर्वय जावनु परतून आयलेलीं! हांवें सांगिल्लें तं पुता लागी, आमी दोगांय

धुवेथंय राबूं म्हूण! जाल्यार हीं हांगा येवनु राबलीं! हें कार्य कोणा लागी तरी सांगल्यार तांकां विश्वास दिसुन्ना!!

**शांताः** व्हय अम्मम्मा! म्हांतारे जालेल्यांक वृद्धाश्रमांत घालूक जनानी एक ना जाल्यार आनीयेक कारण सोदूचो काल तं आतां!

**ताराः** आसो, टीचराथंय कोण कोण आसा?

**शांताः** हांव आनी बामूण मात्र! तांगेलीं अम्मा बप्पा कोलांव तं. थांगा तांगेलो म्हालगडो भाव आनी कुटुंबय आसा.

*ह्या वेळार भितर थाकून रत्ना हासूनूच येता. हातांत एक ट्रेंत दोन ग्लास च्या आनी स्वल्प बिस्कूत आसा. ती तें तांचे मुकार दवरता. तिका दिकून टीचर उटायता.*

**रत्नाः** टीचर आतांच आयली म्हूण आयकून हांवें आठयलें सांगून वचाक बी वे म्हूण! (टीचर उटायली पळोवनु) बेसाय टीचर!

**शांताः** (हासून हात जोडता) नमस्कार!

**रत्नाः** (हात जोडता) नमस्कार!

**शांताः** हांव साकांघडीच आयलेली इत्या म्हळ्यार किरणाले अम्माक अभिनंदन दिवंचाक तं! किरणाक शिकवणे खातीर विदेशांत वचाक अनुमती दिलेलें एक होड कार्य तं! ते खातीर तं हांव अक्काक अभिनंदन दितां..

**रत्नाः** (मंदहासपूर्व) तें कांय होड कायरें करूक ना टीचर! सगटांनींय दिलेलें धैर्य तं मिगेलें धैर्य! मागीर दैवविश्वास.. मिगेले चेलेचेरीय आसा विश्वास! देव तिका राकतलो!

*(ह्या वेळार मुकावेले कवडा कडेचें DOORBELL वाजता.)*

**रत्नाः** ओ, जेवण आयलें म्हूण दिसता!

*(भितर थाकून किरण हासूनूच येता.)*

**किरणः** कोंकण केटरिंग आयलें!!

**रत्नाः** (किरणा लागी) किरण, तांचे लागी लिस्ट आसतलें. ते प्रकारान सर्व आसा वे म्हूण चोवंका. तान्नी भितर हाडून दवरतले. चोयल्यार मात्र पुरो!

**किरणः** हांगा मुकारीच दवरल्यार पुरो नवें?

**रत्नाः** व्हय, पुरो. भितर कांय व्हरका नाका!

**किरणः** केटरिंग येतना किष्णापुतोकय उळदूका म्हूण सांगतालो!

**रत्नाः** (हासता) उळदी जाल्यार!

**किरणः** (थांगाच राबून भितर चोवनु होडान) **किषन**!!!

*(रत्ना तमाशे रूपान दोनीय कान धांकीता)*

**किषनः** (घरा भितरचान होडान) **येतां**!! **पावलो**!!

*(रंगार आशिल्लीं सर्वय मेळनु हासताय. यवनिका देंवता.)*

* * *

# थळथळेवंचे सर्वय भांगार न्हय!

## अवतारिका

'थळथळेवंचे सर्वय भांगार न्हय' ही म्हणी आमी सर्वांनी आयकिल्या. चोवंचाक चंद दिसच्यो अनेक वस्तू आसाय. जाल्यार त्यो सर्वय वस्तू वास्तवाक चांग आसूका म्हूण ना. लोकांत बंधुमित्रांचेय कार्य अशीच. होड संतोषान आमचे मुकार स्नेह दाकोवंचीं जनां सर्वय चांग बंधू जावो मित्र जावो आसूका म्हूण ना. थळथळेवंचे अनेक वस्तूंत थाकून भांगार वेगळेंच समजून घेवंका म्हळ्ळेल्या वरी, आमी यथार्थ बंधूंक, यथार्थ मित्रांक वळखून घेवंका जावनु आसा. आमी आजि हांगा अवतरण करचें लघु नाटक होच संदेश तुमचे मुकार दवरता.

## पात्रां

प्रदीप (15) विद्यार्थी
दीपु (15) विद्यार्थी
दिलीप (15) विद्यार्थी
रंजित (15) विद्यार्थी
बापा (45) प्रदीपालो बापूस
अम्मा (40) प्रदीपाली आवस
गणेश पै (20) संभाषण मात्र

## रंगविधान

एक मध्यमवर्गीय घराचें मुकावेलें कूड. वेदीचे दाव्यान घरांत येवंचें कवड आनी उजव्यान घरा भितर वचें कवड. मागल्यांतुले पागारार एक कलंडर, क्लोक, इत्यादी. एक जनेल. वेदीचेर एक मेज आनी एक कदेल. मेज सगळेंच पांगरून एक होड लुगट आसा. मेजाचे उंचार एक कंप्यूटर आनी एक टेलिफोण.

*प्रदीप बेठींच कंप्यूटरार चोवनु कदेलार बेसला. एकवेळा क्लोकारीय दृष्टी घालता. कोणाचे की प्रतीक्षेन आनी स्वल्प चिंतेस्त आसा. वेदीचे दाव्यान कवडाचेर कोण कीं खटखटायता.*

**प्रदीपः** (अलक्ष्य भावान) यो रे!

*दाव्यांतुल्यान दीपु घरा भितर येता.*

**दीपुः** हाय प्रदीप!

**प्रदीपः** (अप्रिय भाव) हांगा कवडार धाडावंका नाका म्हूण तुका आतांय कळना वे?

**दीपुः** (मंदहासान) कळता रे माका! जाल्यार मिगेलो एक स्वभावूच अशी जालो!

**प्रदीपः** दिलीपाक आनी रंजिताक लागेन हांवें आपयल्याय. एक प्रधान कार्य सांगूक आसा माका..

**दीपुः** (घरा भितर चोवनु) भितर कोण नाय वे?

**प्रदीपः** कोण नाय! (अलक्ष्य भाव) तान्नी कोची व्हारडिकेक गेल्यांय. उडिदा मुहूर्त थाकून वांटो घेवंका खंय!

**दीपुः** (आश्चर्यान) तूं गेलोना इत्या?

**प्रदीपः** ओ, मिगेलें इतें आवश्य?!

**दीपुः** तुका येंवचाक सांगलेंना वे तान्नी?

**प्रदीपः** सांगतालीं. निर्बन्ध करतालींय. माका स्वल्प शिकूक आसा म्हूण सांगीलें..

**दीपुः** अशी अम्मा बापा लागी फटी सांगूक तुका कशी जाता प्रदीप?!

**प्रदीपः** (अप्रिय भाव) ओ, एक अम्मा बापा!

**दीपुः** तशी सांगूनाका रे! इतूलें स्वातंत्र्य तुका दिताय मू तीं!

**प्रदीपः** तूं कांय आतां उपदेश दिवंचाक आरांभूका नाका!

*वेदीचे दाव्यांतुल्यान दोग जाण चेले येताय. स्वल्प धनिक घराचे. आधुनिक भेस - जीन्स, टी शर्ट बी.*

**दिलीपः** (हात उबारून विश करून) हाय!

**रंजितः** हाय गाइस!

*प्रदीप उठून तांचे लागी सरून संतोषान विश करता.*

**प्रदीपः** हाय, दिलीप! हाय, रंजित!

**दिलीपः** इतें की आजि विशेषु?!

**रंजितः** सरप्राइस पार्टी बी वे? इतें की सेलेब्रेशन?

**प्रदीपः** तें कांय न्हय. एक प्रधान कायरें माका तुमचे लागी सांगूक आसा. तुमगेलो अभिप्राय कोळका.

**दिलीपः** तुगेलें नवें नाटक बी तयार जालें वे?!

**रंजितः** खंयीय चान्स बी मेळ्ळें वे तुका? बेस्ट!!

**प्रदीपः** (आश्चर्य) एं, तुका कशी कळ्ळें?!

**रंजितः** सत्य वे तावळी?! हांवें साबाव निमगिल्लें तं!

**दीपुः** (हुसक्यान) तावळी तुगेली शिकवण?

**प्रदीपः** हांवें शिकवण राबोवंचाक निश्चय केलो..

**दीपुः** आनीक?!

**प्रदीपः** हांव चेन्नै वचाक वता. थांगा तं मिगेली भावी आसा..

**रंजितः** चेन्नै वचून इतें करूक वता?

**प्रदीपः** (मन्दहास) एक गॅस करी रे!

**दिलीपः** तें तं चान्स मेळ्ळें म्हूण सांगिल्लें!! अडिपोळी!!

**प्रदीपः** (मन्दहास) व्हय, एक नवें टीवी सीरियल धरताय आसा. माका तांगेलें ओफर मेळ्ळें!

**दिलीपः** तें कशी मेळ्ळें? तुवें एप्लै केलेंलें वे? आमी नेणतीलें?!

**प्रदीपः** कांय होप नाशिल्लें रे. तें दिकून तुमचे लागी सांगलेंना. तुमी माका खेळ करतले आशिल्ले!

**दीपुः** तूं तांका कोणाकय वळकता बी वे? चेन्नैचे?

**प्रदीपः** आमगेले स्कूळ डे आघोषाक मुख्यातिथी जावनु आयलोलो मू? तागेलें तं फोण आयलेलें..

**रंजितः** ओ, राजकुमार वे? तो होड फेमस मू! रियली ग्रेट!!

**दिलीपः** तावळी सरप्राइस पार्टी म्हूण आमी सांगिल्लेंय सत्य जालें! केद्दाण कीं तुगेलें ट्रीट? हार्टी कनग्राट्स!

**दीपुः** तुगेलीं अम्मा बापा इत्तें म्हण्टाय?

**प्रदीपः** (अप्रिय भाव) ओ, एक अम्मा बापा!

**रंजितः** अम्मा बापान कांय असले कार्यांत अनुवाद दिवुन्ना! डिग्री भितर शीक शीक शीक म्हूण तं तीं सांगतलीं!

**दिलीपः** आमी सांगूका बी वे तुगेले अम्मा बापा लागी?

**प्रदीपः** तें कांय नाका! माका तुमगेलो अभिप्राय तं जावंका. तुमी इतें म्हण्टाय?

**दीपुः** म्हालगड्यांक न्हय वे हाजें चांग बल्लाव आमचा पशी कळतलें?

**प्रदीपः** तान्नी कशीय जाल्यारीय अनुवाद दिवुन्ना! तें सोडी! तुमी इतें सांगताय?

**रंजितः** हांव डबल ओके म्हूण सांगन! तुका तांतूं तं भावी आसा. तुगेले नाटकान आनी अभिनयान तं आमगेले स्कूळाक प्रथम पुरस्कार मेळ्ळा!

**दिलीपः** तें व्हय रे! शिकवणेंत तुका तशी भावी आसा म्हूण दिसना.. मात्स मास्तरान तें कायरें पयरी क्लासांत सांगिल्लेंच मू!

**प्रदीपः** मात्स मिगलो शत्रू रे! आनीकय तांतूं पडल्यार माका पिशें लागतलें!

**दीपुः** हें वर्ष कंप्लीट पुणीय करि रे! ताका सरी वेळ मेळना वे?!

**प्रदीपः** हें एक चान्स गेल्यार मागीर मेळचीना! एसेसेल्सी मागीर जाल्यारीय बरोवनु काड्यात..

**दीपुः** केदाण कीं तुका वचूका?

**प्रदीपः** फाल्याच वचूका..

**रंजितः** कशी की यात्रा? ट्रेन की फ्लायट?

**प्रदीपः** ट्रेन तं..

**दीपुः** तुजे ओट्टू कोण वता?

**प्रदीपः** कोण ना! एकलोच वता..

**दीपुः** प्रदीप, एक कायरें निमगीतां, तूं अम्मा बापा लागी सांगूनातिल्लें वे वचाक वता?

**रंजितः** सांगल्यार इतें, सांगलेंना जाल्यार इतें! न्हय रे?

**दिलीपः** तुका तांचे तोंडाक चोवनु सांगूक प्रयास जाल्यार एक बर्प

बरोवनु दवरल्यार जावना वे?!

**प्रदीपः** तें तं हांव करूक वता..

**दीपुः** तें सम न्हय रे! सांगून निमगून वचें न्हय वे चांग? तांगेले वळकीचे कोणय मनीष थांगा आसूकय पुरो..

**प्रदीपः** तें कांय नाका! हांवें तुमचे लागी सांगील्यां... तुमी तं मिगेले मित्र!

**दीपुः** माका तें चांग दिसना रे! अम्मा बापाक दुकोवंचें सम न्हय!

**प्रदीपः** दीपु, तूं इतें जाण रे? तीं मिगेलीं अम्मा बापा न्हय! हांव तांगेलो पुतूय न्हय! माका तान्नी ADOPT केलोलो तं.. अनाथाश्रमांत थाकून! हांव ORPHAN रे, अनाथ!

**दीपुः** इतें पिशें रडता रे तूं?!

**दिलीपः** कायरें सत्य तं. माका कळतालेंय तं..

**रंजितः** तूं कशी जाण?!

**दिलीपः** हें कायरें मिगेथंय एक दिसा अम्मा बापा उलयतालीं..

**प्रदीपः** हांवें आठव्यांत शिकतना तान्नी दोगांनीय मेळनु मिजे लागी सांगिल्लें तं. कोणा लागी सांगूका नाका म्हणूय सांगिल्लें..

**दीपुः** तशी जाल्यारीय इतें रे? अम्मा बापालो स्नेह तीं तुका दिताय न्हय वे?

**प्रदीपः** जाल्यार केद्दाण पर्यान दितलीं? माका कांय शिकवण येना. एसेसेल्सी परीक्षा पास जातलो वे म्हूण सरी खात्री ना!

**रंजितः** तें सत्य तं. तुका सामर्थ्य आशिल्लें कायरें तूंच जाय वेंचून काडूक! तुका आमगेलें सप्पोर्ट आसा रे..

**दिलीपः** म्हूण सांगून दुड बी निमगीशी! (होडान हासता) हा! हा!

**दीपुः** हासूचें कायरें न्हय हें..

**दिलीपः** जाल्यार तूं रडून बेस रे! (कोपान) एक कार्याकय तूवें सप्पोर्ट दिवन्ना! कसलो मित्र रे तूं?

**प्रदीपः** झगडूनाकाय साबाव! हांवें निश्चय काडलो. आनी येता तशी दिकूं!

**दिलीपः** Ok! तावळी वेगळें कांय ना जाल्यार आमी वताय. Best Wishes!

**रंजितः** All the best to you my friend!!

*दिलीप आनी रंजित दोगांय हात हालोवनु दाकोवनु विदा सांगून वेदीचे दाव्यांतुल्यान वताय.*

**दीपुः** तूं वचे कडेचें विलास आनी फोन नंबर दी..

**प्रदीपः** (मेज दाकयता) मेजेर आसा रे. बरोवनु काडि..

*दीपु कदेलार बेसता आनी एक कागता कुटक्यार बरोवनु काडता. तो पोकटांत घालता आनी उठून वता.*

**दीपुः** हांव वता रे! तूवें अम्मा बापा लागी सांगूका म्हूण तं माका सांगूक आसा. वळकि नातिल्ले कोणाचेरीय तशी पूर्ण विश्वास दवोरनु वचें चांग न्हय... सम न्हय...

*ताणे वचून जावनु प्रदीप विचारांत जाता आनी कूडांत अशी तशी लातीयो घालता.*

**प्रदीपः** (आत्मगत) ताणें माका WISH सरी केलेंना! (चिंतिता) उपदेश दिवनु गेला! वचो, वचो.. भावींत हांवें नांव जोणु येतना इतें उपदेश दिता म्हूण चोवूं!

*मेजावेले फोनार* ***LONG RING*** *आयकता. तो लागी वचून फोन स्पीकरार घालता आनी फोना मुकार राबून तांतूं उलयता.*

**प्रदीपः** हलो!

**फोनः** हलो, पी. के. प्रदीपालें घर वे?

**प्रदीपः** व्हय, प्रदीप तं उलयता.

**फोनः** व्हय वे! मिगेलें नांव गणेश पै. माका तुजे लागी एक कायरें प्राइवट जावनु सांगूक आसा! सांगूयात वे?

**प्रदीपः** सांगाय मामू, हांगा लागी कोण ना..

**फोनः** तूं चेन्नै वचाक वता म्हळ्ळेलें सत्य वे?

**प्रदीपः** (आश्चर्य, हुसको) एं! कोण सांगीलें? तुमी कोण कीं?

**फोनः** तुजे वरीच चेन्नै गेलोलो एक मूर्ख तं हांव. दोनि वर्षांक थांगा कष्टकर जीवित सारून आतां कशीय कोरनु हांव गांवांत पावलां. तुगेलें कायरें थांगा सांगताय हांवें आयकिलें. तुकाय फटवण पडूक नज म्हूण तं हांव अशी तुका उळदून सांगता..

**प्रदीपः** (हुसको) मामू, माका राजकुमार सारान स्वयं उळदिला तं!

**फोनः** (तुच्छ भाव) राजकुमारू?! राजकुमार न्हय तो, राहुकुमार! कळता वे? साबाव फटवण! धावनु भोवनु दंद करूक एक दंदेली तं ताका जाय! तें दंद तं तुका थांगा राकून राबील्यां! साबाव जन्मु व्यर्थ करूक वचूनाका रे पुता!

**प्रदीपः** मामाक कशी कळता हें कायरें?

**फोनः** हांव तांगेलो दंदेली आशिल्लो रे! तुजें नांव घेवनु तो राहुकुमार उलयता हांवें मिजे कानान आयकिलें! तागेले उत्तरार वशी पुता, वशी! *(फोन निशब्द जाता.)*

**प्रदीपः** मामू! हलो! (चिंतिता) मामान फोन दवरलें म्हूण दिसता! *(चिंतेंत बुडून एक दोन लातीयो घालता.)*

**प्रदीपः** (आत्मगत) हो, आतां होड कष्ट जाले मू! इतें कोरका म्हूण कळना जालें! ह्या मामान सांगिल्लें सत्य आसूका (चिंतिता) हां, आतां पुणीय कळ्ळेलें चांग जालें..

*संथ चमकून मेजा लागी येता. कदेलार बेसता. तावळी हात लागून मेजावेलें पेन खालाक पडता.*

**प्रदीपः** ओ, मिगेलें पार्कर पेन! बापालें गिफ्ट आशिल्लें हें!

*पेन काडूक खालाक बावगून बेसता. पेन काडून संथ चोयता. ह्या वेळार वेदीचे दाव्यांतुल्यान प्रदीपालो बापा आनी अम्मा येताय. भितर येवनु जावनु तीं अशी तशी चोयताय. प्रदीप मेजाचे ह्या तांतूं बावगून बेसलेल्यान ताका तीं दिकनाय.*

**बापाः** (अम्मा लागी आखांतान) तो फाले तं वचाक वता म्हूण नवें दीपु सांगतालो? आजीच गेलो बी वे?!

**अम्माः** (हुसक्यान) ना, ना, तागेलीं पापास भायर आसाय मू! तो भितर बाथ रूमांत बी आसतलोच!

*मेजा लागी खालाक बावगून बेसलेले प्रदीपाक अम्मा बापालें संभाषण आयकूयेता. तांगेलो आखांत आनी हुसको पळोवनु तागेले तोंडाचेर वेगवेगळे भाव प्रकट जाताय. तो उटावंका की नाका म्हळ्ळेले विचारान आसा. जाल्यार उटायना.*

**बापाः** (आश्वासान) देव पावलो! दीपून मिगेलें MOBILE नंबर उडगास करून आतांच कळयलें दिकून चांग जालें..

**अम्माः** (कांपर्या ताळ्यान) देवा, मिगेले चेरडाक राक! ताणें इंजिनीर

जावंका म्हूण जावो, वकील, डॉक्टर जावंका म्हूण जावो माका आग्रह ना. सबसूब वाडून संतोषान राबल्यार मात्र पुरो..

**बापाः** ताका ACTING शिकूका जाल्यार तें शिकूक वचो! हांवें कांय आड राबुन्ना!

**अम्माः** तसली शिकवण आशिल्ले कडे तुमकां transfer मेळना वें?

**बापाः** व्हय, मेळतलें! तागेले मनांत इतें की जाल्यार आमकां तें करूं. कांय अडचण ना! तूं एक उळदी ताका, निमगूया.

**अम्माः** (भितर तोंड करून कांपर्या ताळ्यान) पुता, प्रदीपा..

**बापाः** (होडान) आरे प्रदीप!

*मेजाचे आड आशिल्लो प्रदीप संथ उटायता. मातें उबारना. हातांत पेन आसा. तोंडार अपराध भाव.*

**प्रदीपः** (गागेता) हांव.. हांव हांगा आसा..

*(कदेलाक घूवनु संथ तांचे लागी वता.)*

**अम्माः** इतें रे पुता हें आयकतां?! आमकां तूं नातिल्लें वेगळें कोण आसा? (दोळे पुशीता)

**बापाः** (शांत भावान) आमी अमसरान कांय कोरका नाका. तूं एकलोच जावनु खंय वचेंय नाका.

**प्रदीपः** (मातें उबारना) हांव.. हांव खंयीच वचना! होडि चूकि जातली आशिल्ली. देवान माका राकीलो..

**बापाः** हो, आयकून आश्वास जालो! हें इतें की हातांतूं? पेन वे?

**प्रदीपः** व्हय, बापान दिलेलें पार्कर पेन तं. चुकून खालाक पडलेंलें.

जाल्यार कांय जालेंना, भाग्य!

**बापाः** (हासता) व्हय, भाग्य! आजि आमगेलो भाग्या दीसूच! न्हय वे?

*तेगांय होडान हासताय. ह्या वेळार वेदीचे दाव्यांतुल्यान दीपु भितर येता.*

**दीपुः** (तांगेले संतोषांत वांटो घेता) इतें की पेन घेवनू? नवें नाटक बी बरयता वे?!

*(सर्वय परतून होडान हासताय.)*

**प्रदीपः** नवे नाटकाचें नांव मेळ्ळें!

**बापाः** इतें की नांव?

**प्रदीपः** 'थळथळेवंचे सर्वय भांगार न्हय!!'

**बापाः** चांग! बहु चांग! (पुताक अनुमोदन करून हात वाजीता)

*(अम्मा आनी दीपू संतोषान हात वाजीताय. यवनिका देंवता.)*

* * *

# एकलव्याली गुरुदक्षिणा

## अवतारिका

एकलव्याले गुरुदक्षिणेची काणी महाभारतांत मेळता. जाल्यार ती काणी थांगा भोव संक्षिप्त जावन आशिल्ल्यान ताची फाटभूंय खूब जाणांनी तांचो तांचो मनोधर्म अनुसरून चित्रायल्या. ह्या लघुनाटकांत ती फाटभूंय सहज रूपान सांगल्या.

## पात्रां

द्रोणाचार्य (50)
युधिष्ठिर (22)
भीम (20)
अर्जुन (18)
एकलव्य (18)

## प्रथम रंग / रंगविधान

हस्तिनापुरा लागीचें वनांतर. वेदीचे एक तांतूं द्रोणाचार्याची मातयेन केलेली एक मूर्ति आसा.

*एकलव्य मूर्तीचे मुकार नमन करता आसा. हातांत धोणू आनी फाटीर तीर दवरपी तुणीर. एक घडी जावनु तो एक वशीन घुवनु अस्त्राभ्यास आरांभिता. ह्या वेळार दूरचान एक सूण्याली भोंकि आयकूयेता. मागीर ती भोंकि लागी लागी येता. शब्द वाड्डता. एकलव्य धोणवार बाणु लायता, दोळ्याक लक्ष्य लायता, पुण मदींच सूण्याले भोंकेक लागून तागेली एकाग्रता चुकता. तो बाणु सयत धोणू बावगयता. अशी एक दोन पावटी जातना तिसरे पावटी ताका कोपु येता आनी तो त्या दिकान रूक्ष भावान चोयता. मागीर छट करून ते वशीन वता आनी धोणवार बाण लावनु लक्ष्य चोवनु सोडता - एका फाटीं एक करून* **सात** *बाण सोडता! (ही प्रवर्ती केवल अभिनयान दाकयल्यार जाता) पयलें अस्त्र सोडलें म्हणटनाच सूण्याची भोंकि ना जाता. उपरांतें तो सरळ तागेलो अस्त्राभ्यास दुशेर आरांभिता. रंगवेदीचे माकशीं थाकून हें संभाषण आयकूयेता.*

**युधिष्टिरः** इतें जालें?

**भीमः** सूण्याक कोण की बाण सोडले! सात बाण! सूण्याले तोंडांत सात बाण खोंबून आसाय!

**अर्जुनः** मेलें वे तावळी?

**भीमः** ना, जीव आसा आतांय! इतें कोरका?

**युधिष्टिरः** कुमारा सहदेवा, एक चोय वचून! होगी!

*थोडो वेळ मौन. मागीर परतून रंगवेदीचे माकशीं थाकून संभाषण आयकूयेता..*

**भीमः** ओ, ताणें वांचयलें म्हूण दिसता सूण्याक!

**युधिष्टिरः** कुमारा सहदेवा, तूं ताजे लागीच बेस. आमी हें कृत्य केलेल्याक सोदून योग्य शिक्षा दीवनु येताय.

*थोडो वेळ जावनु अर्जुन वेदीर येता. ताजे मागल्यान युधिष्टिर आनी भीम आसाय. एकलव्य तांकां दिकता आनी तो तागेलें धोणू एकडे दवरून तांचे मुकार येता.*

**एकलव्यः** (हात जोडून) निषादराजा हिरण्यधनूलो पूत आनी द्रोणाचार्यशिष्य *एकलव्य* तुमकां स्वागत करता!

**अर्जुनः** (आश्चर्यान) द्रोणाचार्यालो शिष्य?

**युधिष्टिरः** द्रोणाचार्याले शिष्यान असलें हीनकृत्य कोरचीना!

**अर्जुनः** आमगेले सूण्याचे तोंडांत तूवें सात बाण सोडले वे? कसल्याक केलें हें क्रूर कृत्य?

**भीमः** तूं निषादराजालो पूत दिकून आमी तुका कांय करनाय. हे निकृष्ट कृत्याक तुका योग्य शिक्षा मेळका जालेली तं!

**एकलव्यः** (हात जोडूनूच) कुरुकुलाचे राजकुमारांक नमस्कार. द्रोणाचार्यशिष्यांक नमस्कार. मिगेले आयुधाभ्यासाक विघ्न घालें दिकून तं हांवें अशी सूण्याक निशब्द केलेलें. हांवें ताजी हत्या तरी केलीना..

**युधिष्टिरः** हत्ये पशी हीन कृत्य मू तूवें केल्यां! निषादराजकुमारा, तुगेलो यथार्थ गुरु कोण?

**एकलव्यः** (द्रोणाचार्याचे मूर्तीक हात दाकयता) मिगेलो गुरू हांगाच आसा, आचार्य द्रोण!

**नीमः** ही मातयेची मूर्ती वे तुगेलो गुरू?

**एकलव्यः** मूर्ती मातयेची जाल्यारीय माका गुरुसान्निध्य मेळता! मिगेलें अस्त्र लक्ष्य चुकयना!

**युधिष्टिरः** जाल्यार लक्ष्य कोरका इतें म्हूण आतांय तुका योग्य मार्गदर्शन मेळ्ळेंना!

**एकलव्यः** (एक क्षणाक चिंतून) हांव केलेली चूकि जाल्यार मिगेले गुरून सांगूची शिक्षा स्वीकार करीन!

**युधिष्टिरः** तुका आमी द्रोणाचार्याले मुकार व्हरूं. परंतु आचार्य तुका दिकूक अनुकूल जायना जाल्यार तूवें तशीच परतून येवंका.

**एकलव्यः** हांव तयार आसां.

**युधिष्टिरः** जाल्यार चलूंया आमी आयोधनशिबिरांत..

*(सर्वय भायर वताय आसतना यवनिका देंवता.)*

* * *

## दुशेरें रंग / रंगविधान

हस्तिनापुरांतुलें आयोधनशिबिर. हांगा थांगा आनी पागारार वेगवेगळीं आयुधां आसाय.

*वेदीचेर आचार्य द्रोण एकलोच आसा. तो एक धोणू हातांत काडून चोयता आसा. वेदीचे दावे तांतुल्यान हें आयकूयेता.*

**अर्जुनः** (शब्द मात्र) आचार्य श्रेष्ठ, आमी भितर येवूं वे?

**द्रोणः** (ते तांतू घुंवता) येयाय शिष्यांनो, भितर येयाय.

*अर्जुन, युधिष्टिर आनी भीम भितर येताय. आचार्याक वंदन करताय.*

**द्रोणः** आयुष्मान भव! आयुष्मान भव!

**युधिष्टिरः** आचार्य श्रेष्ठ, आजि आमी मृगया विनोदाक वनांतरांत गेलेलीं थांगा एक दुर्घटना जाली. आमगेलें सूणें मुकार धावनु गेलेलें. स्वल्प वेळाक तें भोंकीता आयकीलें. छट जावनु ताजी भोंकी राबून गेली.

**भीमः** कायरें इतें म्हूण चोवंचाक हांव होगी धावनु गेलों. तावळी सूणें अत्यंत दीन अवस्थेर पडल्यां. ताजे तोंडांत सात बाण खोंबून आशिल्ले, सात बाण!

**द्रोणः** सूणें मेलें वे युधिष्टिरा?

**युधिष्टिरः** ना, आचार्य. ताजो जीव गेलोना. तें मृतप्राय जावनु गुडलून पडलेलें.

**भीमः** इतें कोरका म्हूण आमी नेण आशिल्लीं.

**द्रोणः** सहदेव ना आशिल्लो वे तुमचे ओटू?

**युधिष्टिरः** आशिल्लो आचार्य, ताणें ते सूण्याचे लागी बेसून उपचार केलो आनी अस्त्रां ओडून काडलीं. कसलेंच ओखदय लायलें.

**द्रोणः** चांग कायरें. आसो, ही करणी केलेली कोणें?

**अर्जुनः** करणी केलेली निषादराजा हिरण्यधनूले पुतान तं. ताजें नांव *एकलव्य* म्हूण. तो...

**भीमः** तो...आचार्यालो शिष्य म्हूण तं सांगता!!

**द्रोणः** (अत्यंत आश्चर्यान) मिगेलो शिष्य? (तीक्ष्ण शब्दान) ना, ना. तो कांय मिगेलो शिष्य न्हय!

**युधिष्टिरः** (शांत भावान) तें आमी जाण आचार्य. आचार्याले खंचेय शिष्यान असली निकृष्ट करणी कोरन्ना! ताणें थांगा आचार्याली एक मूर्ति कोरनु दवरल्या. आनी स्वयं आचार्यालो शिष्य म्हूण परिचय दिता!

**द्रोणः** (शांत जाता) ताणें कसले कारणान ही करणी केली म्हूण तुमी निमगिलेंना वे?

**युधिष्टिरः** आमी विशद रूपान निमगीलें आचार्य. सूणें थांगा वचून भोंकीलें दिकून खंय ताणें बाण सोडलेले. तागेले अस्त्राभ्यासाक विघ्न घालें म्हूण खंय ताणें सूण्याक ही शिक्षा दिलेली. सूण्यालो जीव वांचयलो म्हूण तं तागेलो न्याय!

**द्रोणः** (स्वल्प वेळाक चिंतून) आं.. हिरण्यधनूलो पूत...*एकलव्य!* माका उडगास येता ताजो.. निषादराजकुमार! हें कार्य तागेले बापसू लागी वचूका! हो युवक वाट चुकला!

**युधिष्टिरः** आचार्य, आमकां निषादराया लागी वचाक हेतू ना. आमचे कुरू वंशा लागी तांकां संबंदूय ना.

**द्रोण:** तावळी इतें की आतां करूयात जावनु आसा? तुगेले मनांतुलें सांग युधिष्टिरा..

**युधिष्टिर:** हांवें सांगूचें अहित बी जाल्यार क्षमा कोरका आचार्य..

**द्रोण:** अहित जाल्यार चूकि ना. परंतु युक्तियुक्त आसूका, न्याययुक्त आसूका युधिष्टिरा.

**युधिष्टिर:** आचार्याक ताणें गुरु म्हूण मनान मानून घेतला. तावळि ताका चांग मार्गदर्शन दिवंचाक आचार्याक योग्यता आसा. तेच वरी शिष्यान एक चूकि केली जाल्यार ताका योग्य शिक्षा दिवंचाकय गुरूक अधिकार आसा..

**भीम:** (मदेंच अमसरान सांगता) आमी ताका आपोवनु हाडला आचार्य..

**द्रोण:** (आश्चर्यान) एं! इतें? तुमी ताका हांगा आपोवनु हाडला कीं?

**युधिष्टिर:** व्हय, आचार्य. चूकि जाली जाल्यार क्षमा पावंका..

**द्रोण:** (मंदहास) कांय चूकि ना, युधिष्टिरा. चांग जालें.

**अर्जुन:** ताका हांगा हाडूं वे आचार्य?

**द्रोण:** तशी जावो अर्जुना.

*अर्जुन वेदीचे दावे तांतूल्यान भायर वता.*

**द्रोण:** तुमी स्वल्प कडेन सरून राबाय.

*ते दोगांय स्वल्प मागल्यान सरून राबताय. द्रोणाचार्य स्वल्प चिंतेंत आसा. तावळि अर्जुन परतून भितर येता. ओट्ट एकलव्य आसा. दोगांय आचार्याले समक्षांत वचून वंदन करताय.*

**द्रोण:** (मंदहास) एकलव्या, तूं दुशेर मिजे मुकार आयला!

**एकलव्यः** (सगद्गद) आचार्याक साष्टांग नमस्कार!

*हें सांगून तो द्रोणाचार्याक साष्टांग नमस्कार घालता. अर्जुन मागल्यान सरून युधिष्टिरा लागी वचून राबता.*

**द्रोणः** आयुष्मान भव!

**एकलव्यः** (हात जोडता) हांवें कसलोय अपराध केला जाल्यार आचार्यान क्षमा कोरका.

**द्रोणः** तुजें अंतरंग इतें सांगता? अपराध केला की ना?

**एकलव्यः** आचार्य, हांव निषादवंशज. धर्मज्ञान ऊणें..

**द्रोणः** एकलव्या, तूवें मिजे लागी अपराध केलो जाल्यार हांव क्षमा करीन. परंतु तूवें मनुष्यधर्मु तं सोडला. विवेक सोडला. (तीक्ष्ण शब्दान) आयुधाचो अनावश्य आनी हीन प्रयोग केला! हें कार्य तुका आतांय समजलेंना वे?

**एकलव्यः** आचार्य, माका आतां तें समजलें. ते निमिषार हांव कोपाक अधीन जालों. आतां माका पश्चाताप आसा गुरो! मिगेले अपराधाक गुरून दिवंची शिक्षा हांव पूर्ण मनान स्वीकार करीन.

**द्रोणः** (शांत जाता) तितलेंच चांग! आपणाली चूकि समजून घेवप आनी पश्चाताप दिसप म्हळ्ळेलें चांग कायरें. जाल्यार एक सांग एकलव्या, हांव तुगेलो गुरु कशी जालो? केदाणा जालो?

**एकलव्य :** (अपराध भावान) हांवें शुरुवेक क्षमा मागिल्ली ती हेच खातीर आचार्य! हस्तिनापुरांत हें गुरुकुल स्थापन केलेले कालाक हांव हांगा आचार्यालें शिष्यत्व मागून आयलोलों. जाल्यार आचार्यान माका ह्या गुरुकुलांत घेतलोना! तें जावनु हांव वनांत परतून वचून आचार्याली एक मूर्ति

कोरनु दवरली आनी ते मूर्तीचे समक्षांत अस्त्राभ्यास शिकीलों! आचार्य मिगेलो मानसिक गुरु! माका वेगळो गुरु ना!

**द्रोण:** तुका गुरूच ना म्हूण न्हय वे तुगेली करणी दाकयता! कुमारा, गुरु जाय म्हण्टाय कसल्याक म्हूण कळता वे तुका? चांग मार्गदर्शन दिवंचाक तं! तें तुका तुगेली मूर्ति दितली वे?

**एकलव्य:** आचार्य, हांव निषादकुलाचो. माका धर्माधर्माची होडि शिकवण कांय ना.

**द्रोण:** कुलाक आनी वंशाक कांय हांगा प्रसक्ति ना, एकलव्या! तुका यथार्थ रूपान एक गुरू आशिल्लो जाल्यार तूवें तुगेलो अस्त्राभ्यास हे साधू मृगाचेर कोरन्ना आशिल्लो!

**एकलव्य:** (माथें बावगयता) अपराध मिगेलोच, आचार्य..

**द्रोण:** तुका ते सूण्या निमित्तीं जीवा भय बी आयलें वे?

**एकलव्य:** ना, आचार्य! माका वागा सिंहाचें सरी भय ना मू! मागीर वे एक क्षुद्र सूणें?

**द्रोण:** तावळि तें तं कारण.. क्षुद्र जीवी! एक क्षुद्र सूण्याक आमी इतेंय करूयात म्हूण तुजो विचार! आनी सात बाण ताजे तोंडांत सोडले! हें वे तुगेले धनुर्विद्येचें होडपण? (तीक्ष्ण शब्दान) तुजो गुरू द्रोणाचार्य म्हूण तूं सांगता! असलो कुरडो अधर्म, पातक करूक वे द्रोणाचार्य शिकयता?

**एकलव्य:** क्षण भितर केलेलें.. आलोचन करूक राबलोना..

**द्रोण:** (शांत जाता) एकलव्या, प्रथम बाण तूवें क्षण भितर सोडलो आसूयात. परंतु मागीरचे एकेक बाण सोडतनाय तुका विवेक दिसूयात आशिल्लें मू! दिसलेंना इत्या?

**एकलव्य:** मिगेले धनुर्विद्येक लागून हांव उन्मत्त जालोलों.. हें आतां

माका समजलें आचार्य..

**द्रोणः** तें एक साधू मृग म्हळ्ळेलें कार्य तूं विसरलो! तुगेले अस्त्रांचें लक्ष्य म्हूण मात्र तूवें लेकीलें! अर्थात.. तूं कुरडो जालो!

**एकलव्यः** चूकि जाली आचार्य.. (माथें बावगयता) मिगेले अपराधाक माका योग्य दंड दियाय..

**द्रोणः** तूं मिगेलो शिष्य न्हय मू कुमारा! तुका हांव कशी दंड दितोलों? तेंच न्हय, तूं निषादरायालो पूत लागेन. ह्या राजकुमारांनी सरी (पांडवांक दाकोवनु) तुका कसलोय दंड दिवंन्ना. कारण हें कायरें केवल एक क्षुद्र मृगा विशीं मू! न्हय वे?

**एकलव्यः** आचार्य, माका मिगेली चूकि समजली. हांवें आयुधाचो दुरुपयोग केलो. मिगेलो अपराध हांव मानून घेतां. आचार्यान सांगूचो दंड माका स्वीकार आसा. ह्या कार्यांत आचार्यालें मार्गदर्शनय माका जाय.

**द्रोणः** कुमारा, सर्व विद्येचोय परमधर्म म्हळ्यार ते विद्येचो सदुपयोग. एक वैद्य तागेले वैद्यवृत्तीचो दुरुपयोग करता जाल्यार तो अधर्मी! एक सोनारान तागेले विद्येचो दुरुपयोग केल्यारीय तो अधर्मूच! तशीच तं आयुधविद्याय. केद्दाण आयुधाचो प्रयोग करूयात, केद्दाण नज म्हूण ताका ताका कळता आसूका. (पांडवांकडे घुवंता) युधिष्टिरा, मृगांचेर आयुध केद्दाण प्रयोग करूयात म्हूण सांग!

**युधिष्टिरः** युद्धाचे समयार करूयात, आचार्य. ना जाल्यार प्राण रक्षेक करूयात. शिशुरक्षेक, गोरक्षेक ना जाल्यार स्त्रीजन-वृद्धजनांले रक्षेक करूयात. निवृत्ती आसा कीं ना म्हूण

केदनाय चिंतन कोरका.

**द्रोणः** (प्रसन्न जाता) उत्तम! उत्तम! आतां तूं सांग अर्जुना, असली एक परिस्थिती तुका आयली जाल्यार तूं कसलें करतलो आशिल्लो?

**अर्जुनः** आचार्य, हांवें मिगेले धोणवाक दोरी बांदून, बाण कांय लावनातिल्लेंच, ती दोरी एक ओडून सोडल्यार मात्र पुरो! ताजे हुंकारान हिंस्त्रमृग सरी भीतीन धांवताय!

**द्रोणः** (प्रसन्न भाव) उत्तम! उत्तम! (एकलव्या लागी) एकलव्या, तुका समजलें वे कार्य? आयुधाचो अभ्यास करतल्याक संयम जाय, विवेक जाय आनी आत्मनियंत्रण जाय. धर्माधर्माचें ज्ञान जाय. मनाक पक्वता जाय. क्षमागुण जाय. हें तं तुका मिगेलें मार्गदर्शन!

**एकलव्यः** (संतोष पांवता, हात जोडता) धन्य जालों हांव, आचार्य, गुरुमुखांत थाकून हें मार्गदर्शन मेळनु धन्य जालों!

**द्रोणः** आनी मुकार तूवें कसलेय आयुधाचो हीन प्रयोग करूक नज.

**एकलव्यः** ना, आचार्य, ना! आतां आनी मिगेले अपराधाक एक योग्य दंड लागेन सांगल्यार माका तें एक प्रायश्चित जातलें..

**द्रोणः** (एक घडियेक चिंतून) तें उचित आसतलें. आतां तूवें मिजे लागी मार्गदर्शन घेतलेल्यान हांव तुका गुरुस्थानीय जालोय. तें दिकून तुका गुरुदंडनाच दितां!

**एकलव्यः** (विनम्र भावान) धन्य जालों हांव, गुरुदेवा, धन्य जालों!

**द्रोणः** (गंभीर जाता) एकलव्या, आयक! ही गुरुदंडनाच तुगेली गुरुदक्षिणा! हें पातक केलेले तुगेले उजवे हाताचो उंगोटो तूं गुरुदक्षिणा दी!

*एकलव्य सयत सर्वय स्तब्द जाताय. पांडव तेगांय आश्चर्यान आनी उद्वेगान आळता पेळतांत चोयताय.*

**एकलव्यः** (शांत जाता) निषादराजा हिरण्यधनूलो पूत, हांव एकलव्य, हें कर्तव्य आतांच पालन करतां!

**द्रोणः** एकलव्या, तुगेले प्रवर्तीक तुल्य जालोलो दंड तं हांवें दिला. मिगेले इतर खंयचेय शिष्य जाल्यारीय दंड होच आसतलो.

**एकलव्यः** (शांत भावान) गुरो, हांव हो दंड पूर्णमनान स्वीकार करतां. (अशी तशी चोयता) माका एक अस्त्र मेळतलें जाल्यार..

**द्रोणः** (लागी थाकून एक अस्त्र काडून उजव्या हातान दिता) हें घे, अस्त्र! मिगेलेच हातान दितां!

*एकलव्य अस्त्र उजव्या हातान घेता. तशीच तें दाव्या हातांत परतीता. मागीर ते अस्त्राचे अग्र भागान आपणालो उजवो उंगोटो कातरता. (ही प्रवर्ती केवल अभिनयान दाकयल्यार जाता) कातरलोलो उंगोटो तो दोनीय हातांनी द्रोणाचार्याले पायांकडे समर्पण करता आनी आचार्याक वंदन करता.*

**एकलव्य :** माका आशिर्वाद दीवंका गुरो!

**द्रोण :** (प्रसन्न भावान आशिर्वाद दिता) आयुष्मान भव! कल्याणमस्तु!

*(हें दृश्य निश्चल (FREEZE) जाता. यवनिका देंवता.)*

* * *

# विश्वासाची सेल्फी

## अवतारिका

यमुना आनी कावेरी सान प्रायेर आप्तमित्र आशिल्यो. जाल्यार चोवधा वर्षां फूडे जीवितांतुले अरिष्टान यमुनेक स्वंत गांव सोडून दूरा वचूका जालेलें. ती आतां इतलेच वर्षां उपरांतें तिगेले बाल्यकाल मैत्रिणीलें घर सोदून येता आसा. मागीर कितें जालें तें आमी पळोवया..

## पात्रां

यमुना (40) भगवे रंगाची साडी
कावेरी (40) साधारण साडी
गीता (15) विद्यार्थिनी
तरनाटी (20) चुडीदार

## रंगविधान

एक सान मार्गार आशिल्ल्या मध्यमवर्गीय घराचे मुकावेलो जागो. एक तांतूं तुळश आसा.

*वेदीचे दावे वाटेचान यमुना संत येता. फूडे वळख आशिल्लें एक घर सोदून येता म्हूण कळता. हातांत एक कागता कुटको. ताजेर बरयलेलें विलास दुशेर दुशेर चोयता.*

**यमुनाः** (आत्मगत) हेंच म्हूण दिसता घर. सुदर्शन म्हूण नांव आसा. मुकार तुळसीय आसा. जाल्यार तेद्दूस गेट स्वल्प सान आशिल्लें.. (अशी तशी चोयता) कोण एकल्या लागी निमगून लागेन चोवया..

*एक तांतूल्यान एक तरनाटी चलून येता.*

**यमुनाः** धुवे, एक राब..

**तरनाटीः** कितें मांये?

**यमुनाः** हे कागतार बरयलेलें घर हेंच वे म्हूण एक सांग माका..

*यमुना कागत दाखयता. तरनाटी तें चोवनु वाचता.*

**तरनाटीः** सुदर्शन घर, पंडितन मार्ग, कोची. व्हय मू मांये. हे कागतार बरयलेलें घर हेंच मू मांये!

**यमुनाः** हो, आश्वास जालो. उपकार धुवे!

**तरनाटीः** जावो मांये. हांव वतां..

*तीणे वचून जातना यमुना स्वल्प मुकार चलून घरा मुकावेलें बेल वाजिता. घरां भितर थाकून येवंचे वरी, वेदीचे मागल्यांतुलें कर्टन वाकतें करून एक चेली वेदीर येता.*

**चेलीः** कोण कीं? इतें जाय?

*यमुना ते चेलेक निर्निमेष चोवनु राबता. तोंडार अनन्य संतोष. तिका कांय उलोवंचाक जायना.*

**चेलीः** (चिके होडान) कोण कीं? इतें जाय?

**यमुनाः** (सुद्धीर येता) धुवे, हें कावेरीलें घर वे?

**चेलीः** व्हय मू! मिगेली अम्मा तं कावेरी.. मांय साबाव हासता इत्या?!

**यमुनाः** (स्वयं नियंत्रण करून) तें कांय ना धुवे. घर सोदून मेळ्ळेले संतोषान तं..

**चेलीः** मांय हांगाच राब. हांव अम्माक उळदून हाडीन.

**यमुनाः** जावो तशी.

*चेली घूवनु भितर वता. यमुना एकलीच आसतना आत्मगत करता.*



**यमुनाः** देवा, वेंकटपती, कोटी नमस्कारु तुका! (ऊंचार चोवनु हात जोडता) हें भाग्य माका तुवें दिलें! मिगेले सर्व कष्ट आजि हांव विसरतां! मिगेले धुवेक तुवेंच राकीली! सर्व सौभाग्य तिका तुवें दिलें! केद्दी होडी जाल्या ती! मिगेलें सारकेंय तिका आसा! मिगेले कावेरीन तिका स्वंत धूव जावनु स्वीकार केली. मिगेलो विश्वास तीणे राकलो! तांकां सर्वांक चांग करी देवा! हीच मिगेली प्रार्थना..

*यमुना वोरलान दोळे चिटीता. ह्या वेळार भितर थाकून चेली तिगेले आवसूकय घेवनु येता.*

**कावेरीः** (आश्चर्यान) कोण हें?! यमुना गो?!

*बाल्यकाल मैत्रिणीक दिकून आनी वळखून आनंद पांवता. तिका पोटोवनु धरता.*

**कावेरीः** हांव जाण आशिल्ली, तूं एक दिसा आमकां सोदून येतली म्हूण!

**यमुनाः** तुजे लागी होड रीण आसा माका. एक उपकार पुणीय सांगूया म्हूण आठोवनु तं हांव आयलेली..

**कावेरीः** (हासून) आगो यमुना, सत्य सांग, तूं माका दिकूक आयलेली कीं तुगेले हे धुवेक चोवंचाक आयलेली?!

*चेली आनी यमुना स्तब्द जाताय. दोगांय कावेरीक चोयताय आनी मागीर आळतापेळतांत चोयताय.*

**यमुनाः** (हुसक्यान) इतें म्हण्टा कावेरी? तें कायरें..

**कावेरीः** तूं साबाव आखांत काडूनाका गो यमुना. तें सत्य तुगेले धुवेकय कळता. तिगेले स्वंत आवसूक दिकूका म्हूण आशेवनु

तं तीवय आसा. (चेले लागी) धुवे गीता, ही तं तुगेली नीज अम्मा! हांवें सांगिल्लें आसा न्हय वे, एक दिसा ही यमुना तुका सोडून येतली म्हूण?! आतां चोय आयली कीं ना?! आतां अम्माले पावलांक आपडून पांय पड!

*गीता संतोषान मुकार सरून यमुनेले पावलांक आपडून पांय पडता.*

**गीता:** अम्मा, माका अनुग्रह दी! एक दिसा अम्मा येतली म्हूण माकाय विश्वास आशिल्लो अम्मा!

*यमुना गीताले मात्यार हात दवरून आशिर्वाद दिता. अपुरबायेन तिका पोटोवनु धरता.*

**यमुना:** चांग जावो धुवे! तुका देव केदनाय चांग करो! (दोळे पुसता आनी हासता) हांव कितली भाग्यवंती! तूं माका अम्मा म्हूण उळदितली म्हूण हांवें सपनांत सरी आठयलेलें न्हय! (कावेरीक चोयता) कावेरी, हें तुगेले दयेन! तुका देव चांग करो!

**कावेरी:** तुगेले धुवेक हांवें तुगेली धूव जावनूच वाड्डयली गो यमुना! तूंवय तिका अम्मा, हांवय तिका अम्मा! श्रीकृष्णाक देवकी आनी यशोदा म्हळ्ळेले वरी!

**यमुना:** चोवधा वर्षां फूडे एक काळके राती हे घराचे कवडा मुकार मिगेले चेरडाक निद्दावनु कवड खटखटावनु हांव गेलेली. परतून चोवनातीलें रडून रडून धांवलेली...

**कावेरी:** चेरडा लागी तूवें बरोवनु दवरलेली चीट वाचून जावनु ताजे मुकावेले दिसा मिगेले बामणान तुजे विशीं सर्व कार्य सोदून जाणून घेतलेलीं. तूं कितेंय बी घातोक करतली वे म्हूण

आमकां भय आशिल्लें. एदेच काळांक आमी न्यूस पेपर भयान भयान तं वाचितालीं..

**यमुनाः** तशीच आठोवनु गो हांव गेलेली. हिगेलो बापूस अपघातांत चमकिल्ले उपरांतें माका कांय तरी गती ना आशिल्ली. तुजेर विश्वासान मिगेले चेरडाक हे घरा मुकार सोडली..

**गीताः** मागीर इतें जालें अम्मा?

**यमुनाः** माकाय देवान वांचयली गो धुवे! वाटेर एक सन्यासिनीन माका आडायली आनीक तांगेले आश्रमांत घेवनु गेली. हांव मागीर तांचेवरी जाली आनी तांचे ओट्टूच राबली. निर्धन जनांली सेवा तं तांगेलें काम. हांव मागीर ते सन्यासिनीचे ओट्टू दूरा दूरा कर्णाटकांत सर्व सेवन केलें.

**कावेरीः** चिन्ना चिन्ना! (हासता) मागीर आतां अशी येवया म्हूण कशी दिसलें? आमी हांगा कितले काळ जावनु तुजे प्रतीक्षेन तं आशिल्लीं. आमी विश्वास सोडलोना गो यमुना! आतां पुणीय तूं आयली मू! आनी तूवें हांगाच राबल्यार पुरो. आश्रमांत विश्रमांत कांय वचूका नाका! माका तूं जाय, हिकाय तूं जाय! (दुशेर हासता)

**गीताः** व्हय, चांग आसतलें! आमकां सगटांक मस्त संतोषान राबूयात!

(यमुना लागी) राबतली मू अम्मा, प्लीस!

**यमुनाः** माका आनीक एक रीण पावोवंचाक आसा धुवे! तें दिकून माका आजीच परतून वचूका. तूं दुख पावनाका. हांवें सांगूचें आयक. चोवधा वर्षां फूडे मिगेलो जीव वांचयलेली सन्यासिनी - मिगेली गुरु - आतां हिमालय यात्रेक भायर सरल्या.

तिजे लागी, तिगेले सहायाक जावनु माका वचूका. हांव मात्र तं तिजे ओटू वता. ही एक अतीव दीर्घ यात्रा. मिगेले स्वामिनीन आनी परतून येवुन्ना. मिगेलें कार्य कळना. अशी दिकून तं हांव आजि हें घर सोदून आयलेली..

**कावेरीः** धुवेक एकूच एक दोळो मात्र चोवनु कशी तृप्ती पावली गो तूं यमुना?! (दुखान) उणेच दीस पुणीय तुका आमचे ओटू राबूक नज वे?

**यमुनाः** एक दृष्टीच खूब पावंता गो माका कावेरी! तुमकां दिकीलीं. मिगेले चेरडान माका 'अम्मा' म्हूण उळदीली! हाजाकय चड संतोष कसलो?!

**कावेरीः** तुवें मिजेर दवरलोलो विश्वास हांवें राकलो गो यमुना!

**यमुनाः** हांव एक दिसा परतून येतली म्हळ्ळोलो तुमगेलो विश्वास हांवें राकलो म्हूण सांगना.. तो देवान राकलो गो कावेरी!

**गीताः** (संतोषान दोगांकय लागी ओडीता) जाल्यार स्वल्प लागी सराय, ही अम्मा आनी ही अम्मा! आमगेले तेगांलेय विश्वासाची एक सेल्फी काडतां! (हातांतुलें स्मार्ट फोण उबारून स्वंत तेगांलेंय फोटो काडता)

*(यवनिका देंवता)*

* * *

This short play was staged by G.S.S.S. Mahila Vibhag at D. D. Kalamandir, Palluruthy, in 2017.

# आत्ती आनी पित्ती

## अवतारिका

कोंकणींत 'आत्ती आनी पित्ती' म्हूण एक लोकप्रिय काणी आसा. ते काण्येक आधारून हें लघु संगीत नाटक रचल्यां. नाटकाचें संभाषण गीतांचे रूपान आशिल्ल्यान हाचें पार्श्वगायन करचें बरें.

## पात्रां

आत्ती (10) चेली
पित्ती (8) चेली
सिंह (10) चेलो / चेली
पार्श्वगायक जावन वेगळीं तेग जन जाय

## प्रथम रंग / रंगविधान

एक रान वाठार

*यवनिका उबारचे मुरथमच गीत आरांभता.*

**कोरसः** एक आशिल्ली आत्ती
पित्ती तिगेली भयणी
आयकाय चेरडुवांनो
तांगेली काणी!

पोळ्यांची आशा लागूनु
आत्तेन पीट वाटीलें
नारलाचो रोसू काडून
पित्तेन गोडशें केलें!
पोळे काडूक चोयतना
राकूड एद्देंय ना
राकडा खातीर दोगांय
चमकीलीं राना..
चमकीलीं राना..

*यवनिका उबारतना रंगार कोण ना. मागीर वेदीचे दाव्यांतुल्यान आत्ती गायन करून संथ नांचून येता.*

**आत्तीः** आत्ती मिजें नांव! आत्ती मिजें नांव!
रानांतु राकूड सोदीता हांव!

राकूड वेंचूनु घराकडे वचूनु
उडिदाचे पोळे मू करतली भाजूनु..

*आतां पित्तीय संथ नांचून गायन करून येता.*

**पेत्तीः** मिजें नांव पित्ती! पित्ती!
आत्ती मिजी आक्की आक्की
हांव मू वेंचितां
शिरपूटां सुकीं सुकीं!

**दोगांय मेळून:** आत्ती आनीक पित्ती
आक्की आनीक भयणी
रानांतु राकूड पुंजायताय आमी!

राकूड पुंजावनू घराकडे वचूनू
उडिदाचे पोळे मू करतलीं भाजूनू
नारला रोसाचें गोडशें मू केल्यां
पोळे खातलीं आमी तांतूं बुडोवनू!

*अकस्मात एक सिंहगर्जन आयकूयेता. चेलियो दोगांय भीवनु परस्पर पोटोवनु धरताय. तावळि आनी एक गर्जनान एक वागु वेदीचे उजवे वाटेचान उडकी मारून येता. तांचे दोगांचेय भोंवतणी नांचून तो गर्जता -*

**वागुः** वागु हांव, वागु हांव, रानांतुलो रायु हांव!
मिगेले हे रानां तुमी कित्या म्हूण आयलीं?
निपून निपून येवनु, चोराय करचे तुमकां
दोगांकय हांव आतां खावनु काडतलों!

**आत्तीः** वागा आमकां खावूनाका
पोळे भाजून दीवीन तुका..

**पित्तीः** गोड गोड गोडशेंय आसा
सोडी आमकां आयचे दिसा..

**दोगांय मेळूनः** राकूड हें मेळनु जायी
काडूक कायलातो दायी!

**वागुः** हाय हाय पोळे! जाय माका पोळे!
वचाय तुमी होगी, कराय तुमी पोळे!
पोळे खावूंक हांव, सांजे येतलों
पोळे तरी ना जाल्यार तुमकां खातलों!

**आत्तीय पित्तीयः** सांजे सात वरार आमी
पोळे कोरनु दवरतलीं!
नारला रोसाचें गोडशेंय
तुका सांजे खाववयतलीं!

*तीं दोगांय राकूड उबारनु मात्यार वा खांदार दवरनु वेदीचे दावे वाटेचान अमसरान वताय. वागु संतोषान अशी तशी चिके नांचून भोंवता..*

**वागुः** हाय हाय पोळे! जाय माका पोळे!

*यवनिका देंवनु जावनूय एक पावटी वागाचीं हीं उतरां आयकूयेताय.*

* * *

## दुशेरें रंग / रंगविधान

एक सान घराचे भितरचें कूड. मागल्यांतुल्या पागाराचेर एक सान जनेल. तांतुल्यान भायरचो काळूक आनी चन्द्रीम दिकूयेता. वेदीचेर एक तांतूं एक भारी होडि भरणी दिकूयात.

*यवनिका उबारचे मुरथमच गीत आरांभता.*

**कोरसः** एक आशिल्ली आत्ती
पित्ती तिगेली भयणी
आयकाय चेरडुवांनो
तांगेली काणी!

पोळ्यांची आशा लागूनु
आत्तेन पीट वाटीलें
नारलाचो रोसू काडून
पित्तेन गोडशें केलें!

रानांतूं भोवनु सोदूनु
राकूड व्हावनु हाडलें
कायली तापोवनु पोळे
एकेक भाजूनु काडले..

*चररर !!! म्हूण पोळो भाजूचे शब्दा सयत यवनिका उबारतना वेदीचे मध्यांतु जावनु पित्ती तेग जनां खातीर वाटीं आनी माणायो दवरता आसा.*

**पित्तीः** हून हून पोळे! सुवादाचे पोळे!
आक्केन केलेले हे उडिदाचे पोळे!

*दावे तांतूल्यान हातांतु पोळ्यां ताट घेवनु आत्ती येता.*

**आत्ती:** पोळे हे उडिदाचे, होड सुवादाचे!
गोडशें बुडोवनु हुनशेचि खांवचे!

*दोगांय पोळे खांवचाक बेसताय.*

**पित्ती:** चारि पोळे आक्केक, चारि पोळे माका!
चारि पोळे वागाक, अशी वांटे कोरका!

*आत्ती हे वरी पोळे ते ते वाट्यांतु दवरता.*

**आत्ती:** चारि पोळे माका, चारि पोळे तुका!
चारि पोळे वागाक, ताजेंय पोट भोरका!

*स्वल्प स्वल्प करून खांवचाक आरांबिताय.*



This short play was staged by G.S.B. Bala Kalakendra at D. D. Kalamandir, Palluruthy, in 2000.

**दोगांय मेळून:** एक एक पोळो कोरनु आमी खातायी!
सुवादु लागूनु मिटीयो मारतायी!!

*स्वल्प खाताय आनी तांगेलो संतोष संथ मागीर संताप जाता.*

**दोगांय मेळून:** एक एक पोळो कोरनु आमी खातायी!
वाट्यांतुले पोळे मू सोरनु वातायी....
सोरनु वातायी....

**पित्ती:** पोळो पावलोना, माका पोट भरलेंना!
सात वरां जावनु गेलीं वागु आयलोना!
पोळो पावलोना, आक्के, पोट भरलेंना!

*वागा खातीर दवरलेले वाट्यांतु थाकून दोनि पोळे काडून आत्ती आपण्यालेय पित्तेलेय वाट्यांत एक एक दवरता.*

**आत्ती :** एक पोळो माका, एक पोळो तुका!
दोनी पोळे वागाक, तेचि पुरोय ताका!

*दुशेर स्वल्प स्वल्प करून खांवचाक आरांबिताय.*

**दोगांय मेळून:** एक एक पोळो कोरनु आमी खातायी!
सुवादु लागूनु मिटीयो मारतायी!!

*स्वल्प खाताय आनी तांगेलो संतोष संथ दुशेर संताप जाता.*

**दोगांय मेळून:** एक एक पोळो कोरनु आमी खातायी!
वाट्यांतुले पोळे मू सोरनु वातायी....
सोरनु वातायी....

**पित्ती:** पोळो पावलोना, आक्के, पोट भरलेंना!

सात वरां जावनु गेलीं वागु आयलोना!
पोळो पावलोना, माका पोट भरलेंना!

*वागा खातीर दवरलेले वाट्यांतु थाकून दुशेर दोनि पोळे काडून आत्ती आपण्यालेय पित्तेलेय वाट्यांत एक एक दवरता.*

**आत्तीः** एक पोळो माका, एक पोळो तुका!
येवनातिल्ले वागाक एकूय आनी नाका!

**दोगांय मेळूनः** एक एक पोळो कोरनु आमी खातायी!
सुवादु लागूनु मिटीयो मारतायी!!

*अकस्मात दूरा थाकून सिंहगर्जन आयकूयेता. चेलियो दोगांय भीवनु उटायताय आनी परस्पर पोटोवनु धरताय.*

**पित्ती :** भय जाता माका, आक्के, भय जाता माका!
वागु मू येता, आक्के, वागु मू येता!
आमकां निपूया, ना, धावनु वचूया!

**आत्तीः** भीवनाका अशी, पित्ते, भरणी चोय गो!
भरणें भितरी, पित्ते, निपून बेसूं गो!
वागु येतना, पित्ते, निपून बेसूं गो!
वागु येवनु चोवनु वचो, निपून बेसूं गो!
यो, निपून बेसूं गो!

*दोगांय संथ संथ चोरपायांनी चमकून वचून भरणेचे मागल्यान निपताय. स्वल्प वेळ जावनु वेदीचे उजवे वाटेचान वागु चमकून येता. होड संतुष्ट भाव.*

**वागुः** हाय हाय पोळे! जाय माका पोळे!
हाय हाय पोळे, खंय मिगेले पोळे?
खंय मिगेले पोळे?!

*सगल्यान चोयता. रितीं वाटीं आनी आयदन दिकून सूक्ष्म जावनु चोयता आनी कोप काडता.*

**वागुः** पोळे करून दिता म्हणून माका फटयलो!
आत्ते पित्ते हांव तुमकां खावनु काडतलों!
पोळे कोरची आत्ती खंय?
गोडशें कोरची पित्ती खंय?

*अशी तशी आनी सगल्यान तांकां सोदीता. कोप काडता. दुशेर -*

**वागुः** पोळे करून दिता म्हणून माका फटयलो!
आत्ते पित्ते हांव तुमकां खावनु काडतलों!
पोळे कोरची आत्ती खंय?
गोडशें कोरची पित्ती खंय?

*कोपान माणायो आनी आयदन, वाटीं पायान मुस्तिता. ह्या वेळार भरणेंतु थाकून पित्तेलो भयान आशिल्लो ताळो आयकूयेता -*

**पित्तीः** आक्के, माका भय जाता मू!

*वागु हें आयकून संतोषान उडकी मारता आनी भरणे लागी वता. भितर चोयता आनी गर्जन करता.*

**वागुः** पोळे करून दिता म्हणून माका फटयलो!
आत्ते पित्ते हांव तुमकां खावनु काडतलों!
खावनु काडतलों!

*ताणे दुशेर गर्जन करतना यवनिका देंवता. ताजे उपरांतेंय दोनि क्षणांक गर्जन आयकूयेता.*

* * *

# भिकू मामाली बोकोडि

## अवतारिका

एक लोककाणयेक आधारून तयार केलेलें हें एक बालनाटक. वेदीचेर हाडूक एक बावल्या बोकोडि जाय. काळ्यार धवीं खांपां आसूका.

## पात्रां

| | |
|---|---|
| भिकू माम | (50) मध्यवयाचो गांवकार |
| रंगा | (25) युवक |
| बालू | (24) युवक |
| मिन्ना | (25) युवक |
| रमेश | (24) युवक |
| हरी | (35) दंदेली |

## रंगविधान

गांवचो रस्तो. मध्यांत एक पिवंचे उदका नळ आसा. यवनिका च वतना रस्त्यार कोण ना. वेदीचे दाव्यांतुल्यान रंगा संथ चमकून ता. दुशेर दुशेर मागल्यान घुवनु चोयताच आसा. वेदीचे मध्यांत ांवतना थांबता.

**रंगा:** (होडान आत्मगत करता) आजि ते भिकू मामाक एक बुद्धी शिकोवंका! अशी आसा वे एक पिसको! *ह्या वेळार वेदीचे दाव्यांतुल्यान बालूय येता. अमसरान आशिल्ली चमकणी. तो रंगाक दांटवून वतना रंगा ताका उलो मारता.*

**रंगा:** एय बालू! एक राब रे! कसोलो अमसोर हो! खंतय वता?

**बालू:** (घुवनु चोयता) वचून दंद आसा रंगा! साबाव मागल्यान उळदूनाका!

**रंगा:** धावनु वचूनाका तशी. एक मिनुट राब. एक अत्यावश्य कायरें आसा. यो हांगा, सांगन.

**बालू:** (लागी वता) इतें की अत्यावश्य ?

**रंगा:** तो भिकू माम आतां हे वाटेन येतलो. ताका आजि एक बुद्धी शिकोवंका. ताणे ते म्हांतारे सुमित्रक्काक सामकीच बडी दवोरनु तिगेले बोकडीक शें रुपयाक मोलाक घेतल्या!

**बालू:** व्हयी?! हो, भयंकर पिसको मू हो भिकू माम! कष्ट, ते सुमित्रक्काक ताणे फटयली मू!

**रंगा:** ताका तशी साबाव सोडूक नज रे बालू..

**बालू:** तूं इतें करूक वता? हांवें इतें करका?

**रंगाः** ते आंगडीचे सोप्यारी रमेश आनी मिन्ना आसतले. आमी चोवगानीय मेळनु आठयल्यार एक खुशाली करूयात. यो मिजे लागी, वाटेर सांगून दीवीन तुका.

**बालूः** जाल्यार वचूया..

*दोगांय मेळनु वेदीचे उजवे वाटेचान वताय. रस्तो विजन जाता. स्वल्प वेळान वेदीचे दाव्यांतुल्यान भिकू माम संथ चमकून येता. हातांतुले दोराचेर काळ्यार धवीं खांपां आशिल्ली एक बोकोडि आसा. रस्त्या मदें आशिल्ली सरकारी नळ दिकून तो संतोष पांवता.*

**भिकू मामः** आमगेलें पायप पावलें गो बोकडे! उदाक फ्री मू! पीवंका जाल्यार पी! न्हावंका जाल्यार न्हा! (नळा लागी वचून बोकडेक थांगा बांदीता) हांव एक फडचान खातां! तूं ते पायपा मूळांत पडलेलें उदाक पी साबाव!

*भिकू माम किरवोंटीं थाकून फडचान, फपळा कुटको काडता. फडचान अर्द करता आनी ताचेर चुन्नो लायता. सर्वय मेळोवनु संथ तोंडांत दवरता. ह्या वेळार बालु एक तांतूंल्यान संथ चलून येता. बोकडीक चोवनु आश्चर्य आनी स्वल्प भय दाकोवनु दूरचान वाट काडून चमकता. भिकू माम हें दिकून ताका चोवनु हासता.*

**भिकू मामः** इत्तें रे बालु हें? बोकडीचेंय भय वे तुका?!

**बालूः** (आश्चर्य दाकयता) बोकोडी? खंयची बोकोडी? 'लाब्रडोर' सूणे मू मामा हें! लागी बी वशी!

*थांगा थाकून वांचून वचे वरी तो वेगान चमकून वता. भिकू मामाक संशय जाता. तो बोकडीक अशीणान तशीणान*

*चमकून चोयता. सूक्ष्मेन चोयता. मात्तें हालयता.*

**भिकू मामः** 'लाब्रडोर'? इत्तें की हें 'लाब्रडोर'? ही बोकोडीच मू! ताणे उदाक बी मारलें आसतलें! लाब्रडोर खंय, लाब्रडोर!

*एक तांतूं वचून पीक थू करता आनी बोकडीक निसरावंचाक भायर सरता. ह्या वेळार मिन्ना चमकून येता.*

**मिन्नाः** (येता येताच) इत्तें खंय भिकू माम? सौख्य वे?

**भिकू मामः** कसलें सौख्य रे मिन्ना? सर्व साधनाचेंय मोल अशी चड चड जावनु मू येता!

**मिन्नाः** (बोकडीक दिकून आश्चर्य दाकयता) हें 'डालमेशन' खंय थाकून मेळ्ळें?!

**भिकू मामः** (आखांतून उटायता) डाल.. डालमेशन! इत्तें 'डालमेशन'?

**मिन्नाः** हें 'डालमेशन' सूणें मामाक खंय थाकून मेळ्ळें म्हूण तं निमगीतां..

**भिकू मामः** तावळि हें 'लाब्रडोर' न्हय वे?

**मिन्नाः** 'लाब्रडोर' सूणीं काळीं मू आसतलीं. हें खांपाळें न्हय वे? हाका तं म्हण्टाय 'डालमेशन' म्हूण!

**भिकू मामः** इत्तें की हाजो गूण?

**मिन्नाः** गूण कांय ना मामा! (हासता) साबाव एक चंदाय मात्र! (चमकूक लागता) जाल्यार येता हांव..(वता)

*भिकू मामाक होड कन्फूशन!*

**भिकू मामः** चंदाय मात्र!? चंदायेक म्हूण कोणेंय सूण्याक पोसप आसा वे? (बोकडीक चोवनु नांकार बोट दवरता) आरेरे डालमेशा!!

*आतां रमेश एक तांतूंल्यान चमकून येता.*

**रमेशः** (भिकू मामाली करणी पळोवनु परिचित रूपान) इत्तें, भिकू

मामा, सूण्याक चोवनु नांकार बोट दवरता?!

**भिकू मामः** व्हय रे रमेशा, खुशाली आयक! ह्या डालमेशनाक दिकून हांवें आठयलें गांवची बोकोडि म्हूण!

**रमेशः** बोकोडि?! (हासता) चांग जातीचें सूणें मू हें! (बोकडीक सूक्ष्म करून बावगून आनी पळयता. मागीर संथ मातें हालयता) जाल्यार एक आसा मामू... हाका कसलो की रोग आसा म्हूण आठोवयात! एकि सोपूरि भोंकि सरी भोंकिना मू!!

**भिकू मामः** घासु बी मारतलें रे चेल्या?!

**रमेशः** कायरें ना जाल्यार लागी वचूनयें. मामाक इत्तें की जाय? पायपा उदाक बी पींवका वे?

**भिकू मामः** नाका, नाका! पिश्या सूण्याक बांदिल्ले कडे थाकून कशी उदाक पिवंचाक रे?!

**रमेशः** जाल्यार मागीर दिकूं, हांव वतां (चमकून वता)

**भिकू मामः** (भिकू मामाक कोपु येता) जाल्यारीय ते सुमित्रक्कान माका अशी फटयलो मू! शें रुपयाक बोकोडि मेळतली म्हूण आठयलोलो हांव तं मूर्ख! (हातान निडलार मारता. बोकडीक चोवनु) आतां इत्तें करका ह्या सूण्याक?!

*दोनीय दिकान चोयता. बोकडेक थांगाच सोडून थंय थाकून कांय नेण म्हळ्ळेले वरी संथ वचाक आरांबिता..*

**भिकू मामः** आरे सूण्या कुतीर्या! तूं थांगाच राब! हांव वतां मिगेलें कायरें चोवनू!

*कांय नेण म्हळ्ळेले वरी संथ चमकूक आरांबितना छट करून रंगा येवनु पांवता.*

**रंगाः** एय, भिकू माम! ह्या सूण्याक हांगा सोडून माम खंय वता?!

**भिकू मामः** (आखांत पांवता) मिगेलें न्हय रे तें!

**रंगाः** (कोपान) मामालें न्हय कीं?! व्हडोळ हाका ते सुमित्रक्का लागी थाकून माम मोलाक घेतालो हांवें मिजे दोळ्यान मू दिकिल्लें!

**भिकू मामः** (बेळशेता. मातें बावगयता) आं...ओ! एकि फटवण पडली रे माका! गांवची बोकोडि म्हूण आठोवनु हांवें घेतल्लें रे हाका.... जाल्यार इत्तें की रोग आसा म्हूण दिसता..!

**रंगाः** (बोकडीक सूक्ष्म जावनु चोयता) पिश्या सूण्याक दिकल्यार आतांय कळना वे?!

**भिकू मामः** जालेलें जालें.... आनी आतां...(असहाय रूपान हात उदारी करता)

**रंगाः** तें म्हूण हाका वाटेर सोडून वचाक मेळना मामा! मामानच इतेंय करका!

*ह्या वेळार एक तांतूल्यान हरी चमकून येता.*

**रंगाः** (हरीक चोवनु) हे हरीक इतेंय दिल्यार तो ह्या सूण्याक व्हरनु 'कोरपरेशन' करतलो! (ताका आपयता) हरी, हांगा यो. ह्या सूण्याक व्हरनु कोरपरेशनांतु घालूक जातलें वे तुका?

**हरीः** (बोकडीक सूक्ष्मेन चोयता) कष्टाचें दंद मू! (मातें हालयता) शें रुपया दीवंका माका!

**भिकू मामः** (आखांतून) शें रुपया!?

**रंगाः** (हासता) चिके ऊणें सांग हरी! ना जाल्यार भिकू मामाक इतेंय हार्ट अटाक बी येत!

**भिकू मामः** मिजे लागी ओटू मेळनु साठि रुपया रे आसाय... तूं पन्नास घे..

**हरीः** (हासता) ओ... पन्नास जाल्यार पन्नास! ताजे ओटू एक फडचान लागेन दियाय मामा! बाकी सर्व हो हरी चोवनु करीन!

*भिकू माम अर्द मनान रुपया आनी फडचान हरीक दिता.*

**भिकू मामः** जाल्यार आनी हांव वतां..

**रंगा/हरीः** (दोगांय मेळनु) ओ, जावो मामा!!

*भिकू माम मातें बावगोवनु वता. तो गेलो म्हूण खात्री करून जावनु दोगांय मेळनु होडान हासताय. बालू, मित्रा आनी रमेश लागेन वेदीचेर येताय आनी खुशालेंत वांटो घेताय.*

**रंगाः** बोकडीक व्हरनु सुमित्रक्काक दिशी न्हय वे हरी?

**हरीः** ओ, जायत..

**रंगाः** कांय उपाय ना दिकून आसूका तीणें हिका विकलेली..

**हरीः** सुमित्रक्काक बोकडीय दितां आनी हे पन्नास रुपयाय दितां, नुपूरो वे?! माका हें फडचान मात्र पूरो! (हासता) भिकू मामान साबाव दिलेले फडचानाक कसलो सुवाद म्हूण तुमकां कळता वे?!

*सर्वय ताका अनुमोदन दिताय. मागीर तो संथ बोकडीक निसरायता आसतना यवनिका देंवता.*

* * *

This short play was staged by G.S.B. Bala Kalakendra at D. D. Kalamandir, Palluruthy, in 2001.

# पुण्यवंति

## अवतारिका

ह्या नाटकाचो आधार आसा, श्रीमती राधिका शेणैल्या *निरांजन* नांवांच्या कथासंग्रहांतुली *पुण्यवंति* शीर्षक लघुकथा. हांतूं नेत्रदानाचें महत्व हृद्स्पर्शी रूपान चित्रायल्यां. एक असाधारण ट्रेन यात्रेंत जालेली एक असाधारण भेट. एक अनवळखी चेलेचो परिचय. आनी हात भरून उडगास. असली ही कथा आतां नाटकाच्या रूपान पळोवया.

## पात्रां

| | | |
|---|---|---|
| माधव माम | (62) | वृद्ध मनीश |
| अजय | (37) | माधव मामालो पूत |
| सदाशिव | (40) | यात्री मनीश |
| माधवी | (34) | सदाशिवाली पत्नी |
| सिंधू | (10) | सदाशिवाली धूव |

## रंगविधान

*ह्या नाटकाचें रंगविधान चिके व्यत्यस्त आसा. रंगवेदी एक ट्रेनाचें कॅबिन म्हूण दिसूका. स्वल्प अंतरान दोन सोफा उबी घाल्यार जाता. सोफेंचेर यात्री मनीश तोंडा तोंड चोवनु बेसतले. भायर भितर वची वाट सोफेंचे मागल्यांतुल्यान आसा. ट्रेनाचें जनेल प्रेक्षकांक तोंड करून आसा अशी दिसूका.*

*माधवमाम एक सोफेर बेसला. ताका तोंड करून दुसरे सोफेर अजय बेसून एक पुस्तक वाचता आसा.*

**माधव मामः** पाचूवे गाद्देय, तांतूं दंद कोरचे मनिषांकय सर्व दिकूक येता. गाडी केरळांत पावली म्हूण दिसता.

**अजयः** केरळांतु पावली! माडे माडियो लागेन दिकूक जातलें आतां.

**माधव मामः** (दीर्घ निश्वास) हां.. तशी तेंवय जालें! सुनंदान वचून एक वर्ष! तिगेलीं हाडां रामेश्वराक निमज्जन कोरका म्हूण मिगेलें मन सांगतालें..

**अजयः** (सांत्वन दिता) बापान चड विचार काडूनज. अम्मा पुण्यवंति तं. भटमाम सरी तेंच सांगतालो.

**माधव मामः** आरे, गेल्ले एक वर्षाक तीं हाडां मातियेचे कोळसुल्यांत घरकडे तेक्किनीचे कषिक्कलारि बांदुनु दवरलेलीं. तो कोळसूलो दिकतना तिगेलें सामीप्य आसा सरी दिसतालें!

**अजयः** माकाय तशीच..

**माधव मामः** घरांत एकेक वेळारि तिगेली जाप आयकिल्ले वरीय दिसतालें..

**अजयः** अम्मालो उडगास आमकां मस्त काळांक आसतलो, बापा..

*ह्या वेळार ट्रेन संथ जाता आनी स्टेशनांत राबता. हें कार्य श्ब्दविन्यासान कळोवयात. पेपर! पेपर! म्हूण उल्लो आयकूयेता.*

**माधव मामः** स्टेशन तं.. आतां खंय पावलीं रे?

**अजयः** पालक्काड पावलीं बापा. हांव खांवचाक इतेंय घेवनु येतां.

*अजय उटायता आनी मागल्यांतुल्यान चमकून भायर वता. स्वल्प जातना ताणे गेलेलेच वरी एक कुटुंब (सदाशिव, माधवी आनी सिंधू) चडून येता. तीं तेगांय माधव मामाक तोंड करून बेसताय. अशी तशी हात जोडून नमस्कार सांगताय. ह्या वेळान अजय खाण घेवनु येता आनी पटळ्यो माधव मामा लागी दवरता.*

**माधव मामः** (सदाशिवा लागी) तुमी खंय वताय?

**सदाशिवः** आमी कोची वताय..

**माधव मामः** ओ, कोचीकार वे तुमी?

**सदाशिवः** ना, आमी पालक्काड राबताय. आतां एक आवश्याक तं कोची वताय..

**माधव मामः** हांवें निमगिलें इत्याक म्हळ्यार, तुमकां दिकून, विशेष जावनु तुमगेले चेलेक दिकून, इतेंकी एक वळख दिसता!

**सदाशिवः** तुमी कोचिकार वे?

**माधव मामः** व्हय, आमी कोचीकार तं.

**सदाशिवः** कोची खंतय राबताय तुमी?

**माधव मामः** कोचीचे हृदयभागांतूच म्हूण सांगूयात. कोची खंतय वताय तुमी?

**सदाशिवः** कोची एक घरकडे तं वताय. जाल्यार घर खंतय म्हूण समच कळना!

**माधव मामः** अड्रस आसा न्हय वें? हाका (पुताक लेकून) दाकयल्यारि सांगून दितोलो.

**सदाशिवः** हें तं नांव आनी अड्रस..

*सदाशिव तागेले किसांत थाकून एक कागता कुट्टूको भायर काडता आनीक अजयाक दिता. कागता कुट्टूको वाचून अजयाले तोंडार आश्चर्य उदेता. तो आश्चर्यान माधव मामाक चोयता.*

**अजयः** (विश्वास येवनातीले वरी) हें बापालें नांव मू!

*हें आयकून माधवमामाक मात्र न्हय, सदाशिव आनी माधवीकय होड आश्चर्य जाता. तीं दोगांय छट कोरनु उटायताय आनीक माधव मामाले पायांक आपोणु पांय पडताय. तांगेली ही अप्रतीक्षित करणी दिकून माधव मामाक आनी अजयाक अत्यंत आश्चर्य जाता. इतें कोरका म्हूण कळना जाता.*

**माधव मामः** हें इतें?! इत्याक तुमी माका पांय पडताय? हांव तुमकां वळखना मू!

**सदाशिवः** तुमी आमकां वळखनाय. जाल्यार तुमकां दिकूक तं आमी कोची वतालीं!

**अजयः** तें इत्याक? तुमी आमगेलीं बंधू वे?

**सदाशिवः** बंधू न्हय, रीणेलीं! आजीवन रीणेलीं!

**अजयः** तशी म्हळ्यार?

**सदाशिवः** व्यक्त करून सांगल्यार, माधव मामाले धर्मपत्नीले दोळे दान मेळ्ळेले खातीर तं आमगेले हे चेलेले जीवितांत उजवाडु आयलोलो..

*हें आयकतना माधव मामाक आनी अजयाक कायरें समजता. तीं दोगांय एकामेकाक चोयताय. दोगांलेंय तोंडार आनंद.*

**माधव मामः** ओ.. आतां कळ्ळें! ही तं ती चेली, न वें?! ते वेळार आमगेलें कांय एक सम न्हय आशिल्लें..

**सदाशिवः** आमकां तुमगेलें नांव आनी पत्तो मेळ्ळोलो.

**माधव मामः** सुनंदालो आग्रह साध्य केलो म्हूण जावनु मागीर आमी चड कांय सोदलेंना..

**अजयः** हे चेलेलें एक फोटो आमकां दाकयलेलें तं. जाल्यार हांव तें विसरलों.

**माधव मामः** व्हय, व्हय! आतां माका उडगास आयलो! तें तं माका हिगेलें तोंड अशी परिचित सरी दिसतालें! कसली वळकि म्हूण उडगास येना आशिल्लो! कोण ही चेली म्हूण अशीच आठयतालों..

**अजयः** इतें जाल्यारीय होड आश्चर्य तं हें. अशी अप्रतीक्षित जावनु आमी मेळ्ळेलीं!

**सदाशिवः** हे यात्रेक आमीच जावनु स्वल्प तोडोव केलोलो. तुमगेले दुःखा मदें आमगेलो संतोष घेवन वचूका नाका म्हूण आठयलेलें.

**माधव मामः** चांग जालें! आतां आमी रामेश्वरा वचून येवंची वाट तं..

**अजयः** अम्माली अस्थी रामेश्वर तीर्थांत निमज्जन करून येताय!

**सदाशिवः** तुमगेली आवसु पुण्य केलेली महंत मनीश! आतां रामेश्वर तीर्थ अदीक धन्य जालें!

**अजयः** व्हय! (दोळे पुशीता) व्हय!

**माधव मामः** जायतीं वर्षां फूडे नेत्रदाना पासून आयकून आमी दोगांय आकृष्ट जालेंलीं. दोगांनीय एकसाणीच नेत्रदानाचे कागतांचेर ओप घालनु दिलेलें..

**अजयः** जाल्यार तेदूसचे वेळार बापान निर्बंधान सांगून तं अम्माले दोळे दान दिलेले. थोकडे बंधुजनांक अतृप्ति तं आशिल्ली..

**माधव मामः** सुनंदालो आग्रह तो म्हूण माका कळतालें! कागतांचेर ओप घालतनाच तीणें सांगिल्लें, आद्यं तीच वत्तली म्हूण! तिका सुमंगली जावनु मरचो वर आसा खंय!

**अजयः** तशीच जालें मू!

**माधवीः** पुण्य केलेल्यांलें देव केदनाय आयकून घेता! तांगेलीं उतरां तो सत्य करता!

**माधव मामः** वास्तव! वास्तव!

**सदाशिवः** ही आमगेली एकलीच धूव. हिका जननारीच दृष्टी ना. इतलेच वर्षांक तीवय आमीय आंधकारांत तं आशिल्लीं. एक वर्ष जालें आतां आमगेले कुटुंबांत सूर्य उदेला!

**माधवीः** हें तुमगेलेय, तुमगेले धर्मपत्नीलेय चांग मनान तं. आमगेलो संतोष कृतज्ञता कळोवंचाक आमकां उतरां मेळनांय. तुमगेलो उपकार आमी मेल्यार सरी विसोरना! (दोळे पुशीता)

*सदाशिव बायलेक समजायता. जाल्यार ताका तागेलेय दोळे पुसूका जाता!*

**ाधव मामः** सर्वय चांगाक जालें. (चेले लागी) इत्तें धुवे तुजें नांव?

**सैंधूः** सिंधू...

**ाधव मामः** यो हांगा! एक घडी हे आबो लागी बेस!

*माधव मामान उळदितना ती होगी लागी वता. माम तिका लागी बेसयता. ती मामाक चोवनु हासता. तिगेले उज्वल दोळेय, हासूचें तोंडय चोवनु माधव मामाक सांगूक जावनातिलो संतोष दिसता. आपण्याले दोळे भरले म्हूण कळतनाय तो ते पुसूक वचना.*

*(यवनिका देंवता)*

* * *

# अंतिम पालो

## अवतारिका

ह्या नाटकाचो कथातंतू O. HENRY नांवाच्या लोकप्रिय कथाकाराले THE LAST LEAF म्हळ्ळेले इंग्लीष कथेंत थाकून घेतला. जाल्यार नाटकाचो कथावस्तू आनी कथापात्रां ते कथेंतुलीं न्हय.

## पात्रां

बालमाम (55) चित्रकार
ज्योती (17) विद्यार्थिनी
सुजाता (40) ज्योतीली आवसु
डॉक्टर (45) डॉक्टर
मिन्नक्का (50) कामेली

## प्रथम रंग / रंगविधान

एक मध्यम वर्गीय घराचें कूड. एक कदेल आनी टीपोय आसा. टीपोयाचेर चित्ररचनेक आशिल्लीं जायतीं सान होड ब्रषां, सायेचीं टिनां इत्यादी आसाय. मागल्यांतुल्या पागाराक तेंकून तीनि चारि होड कॅनवासां उबी दवरल्यांय. एकाचेर एक अर्द चित्रायलेलें अव्यक्त चित्र दिकूयात. बाकी सगलीं कॅनवासां रितीं. वेदीचे उजव्यांतुल्यान येवप वचप जाता. सांजेचो वेळ.

*यवनिका उबारतना वेदी विजन आसता. पश्चातलार सुजातालो शब्द आयकूयेता. ती उलयत उलयत वेदीर येता. तिजे मागल्यान डॉक्टरूय येता. तागेले हातांत ब्रिफकेस आसा.*

**सुजाताः** येयाय डॉक्टर, हे कूडांतु राबून स्वस्थ उलोवयात. हें बालमामालें STUDIO..

**डॉक्टरः** (पागाराक तेंकून आशिल्लीं कॅनवासां पळयता) बालमाम म्हळ्यार कोण?

**सुजाताः** बालमाम एक चित्रकार. तो हांगा भाड्याक राबता. ताणे येंवचाक सांज जातली.

**डॉक्टरः** हीं कॅनवासां सगळीं रितीं मू!

**सुजाताः** आतां मामान तशी कलारचना करप ना. घरां आनी बिल्डिंगां पेंट करूक वता!

**डॉक्टरः** ओ, ताजान आसूयात जीवित मुकार व्हरूक जाता, न वें?

**सुजाताः** व्हय डॉक्टर.. (आकांक्षेन) ज्योतीलें कायरें कशी डॉक्टर? ती आतां हें तें उलयता मू! तापु जाल्यार उणेय जायना..

**डॉक्टरः** (दुःखित भावान) मॅडम, हें कायरें तुमचे लागी कशी सांगूका म्हूण माका कळना! रोगु न्युमोणिया म्हूण कळता न वें? माका कोळचे शास्त्रा प्रमाण साध्य जालेली वोयदीक हांव करून आसां. जाल्यार कसले की कारणान तुमगेले धुवेक रोगमुक्तीची इच्छाचि ना जाल्या! ते निमित्तीं ओखदाची शक्ती अर्दि जाल्यावरी जाता..

**सुजाताः** (दोळे पुशीता) पांच वर्षा मुरथम ह्याचि रोगान तिगेले बापाक व्हेलोलो..

**डॉक्टरः** ओ माय गोड, अयाम सोरी! तें हांव नेणा आशिल्लों..

**सुजाताः** मिगेले धुवेक इतेंय बी जालें जाल्यार.. (रडता)

**डॉक्टरः** मॅडम, इच्छाशक्तीक ओखदाचो गुण आसा. रोगीले मनांतु रोगमुक्तीची बरी इच्छा आसूका!

**सुजाताः** आजि सकाळीं थाकून जनेलाचे भायर चोवनु ती कसलें की मेजीत आसा. उपराटें तं मेजीता..

**डॉक्टरः** जनेलांतुल्यान चोयतना भायर पागारावेली वाली दिकूयेता. ताजे पाले तं ती मेजीता!

**सुजाताः** वाल्येचे पाले?! तें इत्याक? ती तिणेचि वोयलेली, तिगेली मोगाची वाली..

**डॉक्टरः** ते वाल्येवेले अंतिम पाल्या ओटू तीवय वतली खंय! असली मनस्थिती तं आमकां हारवयता!

**सुजाताः** (खोळसां गिळता) तिका देहा नज दिकून जावयात तशी सगट चिंता..

**डॉक्टरः** कसलेय एक कार्या विशीं तिका स्वल्प उत्साह हाडोवंचाक जालो जाल्यार ओखदांचें पूर्ण फल मेळतलें. तशी कसलेंय कार्य ना वे?

**सुजाताः** तिका संगीताचें पिशें आशिल्लें. जाल्यार आजि थाकून गींत आयकुचें सरी तीणे राबयल्यां!

**डॉक्टरः** तें न्हय, इतेंय ड्रेस्स, नवें सिनिमा, तशी इत्यांतूंय उत्साह आसतलो मू!

**सुजाताः** ना ना, तसल्यांतु कांय तिका उत्साह ना. (तोंडार बाविल्लो हास) हां, बालमामा लागी चित्ररचना शिकूका म्हूण तिका आशा आशिल्ली!

**डॉक्टरः** (घूवनु रित्तीं कॅनवासां पळयता) हीं कॅनवासां?

**सुजाताः** तीं सर्व बालमामालींचि. एक दिसा तागेलें मास्टरपीस रचूक आसा खंय!

**डॉक्टरः** कशीय जाल्यारीय मांच्या लागीचें तें जनेल बंद केल्यार चांग. रोगीचे मुकार दुख दाकोवंचा नज. स्वल्प सरी कोपु नज. प्रसन्नभाव आसूका. हासूनूच उलोवंका. तुमकां हांगा सहायाक कोण ना वें?

**सुजाताः** स्वल्प प्राय जालेली एकि मांय सदांच येता. आजि थाकून रातीचेंय ती हांगा आसतली.

**डॉक्टरः** अच्छा, चांग! जाल्यार हांव येतां. फाय सकाळीं इखरा वरांचेर येवीन. तुमी स्वंत आरोग्यय चोवंका!

**सुजाताः** तशी जावो डॉक्टर..

*डॉक्टर भायर वता. ताजे ओट्टू दारवोट्या लागी पर्यान वचून सुजाता परतून कूडांत येता. भारी अस्वस्थ आनी दुखित आसा.*

**सुजाताः** (हात जोडता) देवा, राक मिगेले चेरडाक! कसलीय वेगळी

शिक्षा दी माका! जाय जाल्यार कुरडी कोरनु सोडि! (रडता)

*मिन्नक्का दारवोट्या कडे मातें दाकयता. सुजाताक दिकतना भितर चडून येता.*

**मिन्नक्का:** हें चोय, धूव थांगा पाले मेजीता जाल्यार अम्मा हांगा कुरडी जावंचाक सोदीता! इतें कि हें? हांवें आतां इतें कोरका? चिन्ना कायरीं!

**सुजाता:** (दोळे पुशीता) मिन्नक्का आळतांतु इत्याक आयली? (आकांक्षेन) चेली इतें करता?

**मिन्नक्का:** धूव आतां निदेल्या. डॉक्टर माम इतें खंय?

**सुजाता:** डॉक्टरा लागी ती इतेंकी सांगताली खंय..

**मिन्नक्का:** व्हय, मिजे लागीय सांगताली! भायर पागारावेले वाल्येवेलो अंतिम पालो पडता धुवेक दिकूका खंय! ताजे ओटू धूव वतली खंय!

**सुजाता:** (हात जोडता) मिजे देवा! तिका कसकसलें हें दिसयता तूं?

**मिन्नक्का:** तें कांय कानांत व्होरका नाका! तिका समजावनु हांवें जनेल आड केल्यां. उणेच बारली उदाक पीवनु ती आतां स्वस्थ निदेता आसा. तुमी येयाय.

**सुजाता:** आतां बालमाम येवंचो वेळ जाला. मामा लागी चेलेलो विवोरु सांगून जावनु हांव येवीन. ना जाल्यार मामु थांगा सोदून येतलो!

**मिन्नक्का:** जावो तशी. हांव वतां. (भायर चमकता)

*मिन्नक्का भायर वचून जावनु लागींच बालमाम संत चमकून भितर येता. हातांत एक पटळी आसा*

**बालमाम:** आजि कशी आसा पोराक?

**सुजाता:** तापु कारणान तिगेलें मन अस्वस्थ आसा, बालमाम. एकेक विकट विचार उलयता..

**बालमाम:** तिगेली म्यूसिक थेरापी राबयली वे?!

**सुजाता:** आजि कांय आयकूका नाका खंय! दीस सगोळु जनेला भायर चोवनु पडलेली. तीणे वोयलेले ते वाल्येवेले पाले सगट वार्यार पडताच आसाय. वाल्येचो अंतिम पालो पडतना ताजे ओटू तीवय वतली खंय.. (दोळे पुशीता)

**बालमाम:** इतें? कसलें मूर्खपण हें?! असली विकट चिंता पोरा मात्यांत कशी आयली? बाबडें पोर! जाल्यार आतां तें जनेल बंद मू आसा!

**सुजाता:** आतां ती निदेली. आनी फाय सकाळीं हांव इतें करतली? तेच एक विचारान तिजी फाटी घेतल्या! तो विकट विचार सोड्डून कसलेय एक कार्यांतु तिका स्वल्प उत्साह हाडोवंचाक जालो जाल्यार मात्र खंय ओखदाचें फल मेळतलें!

**बालमाम:** पेंटिंग शिकूक तयार जा म्हूण सांगूं पोराक! फाल्याचि एक नवे चित्राक हांव आरंभ घालतलों! आनी तें चित्र पोराक दितलों! ताणें मांचो सोडून उटायतनाचि ताका पेंटिंग शिकयतां, इतें! फाल्या सकाळीं हांवच सांगन ताका, इतें?!

**सुजाता:** जावो तशी, बालमाम. भायर पावसु आरांभिलो मू! आजि राती सगोळ आसतलो म्हूण दिसता!

**बालमाम:** व्हय, माका तशी दिसलेलें. तें दिकून रातीक आशिल्लें हांवें PARCEL करून हाडल्यां! (हातांतुली पटळी दाकयता)

**सुजाताः** व्हय वे! जाल्यार फाय सकाळीं BREAKFAST आमगेथंय करूं, इतें!

**बालमामः** (मंदहास) तशी जावो मॅडम..

**सुजाताः** जाल्यार हांव वतां. (भायर चमकता)

*बालमाम मातें हालोवनु तिका यात्रा करता आनी उपरांतें चिंतेंत मग्न जावनु, संत चमकून वचून कदेलार बेसता. हातांतुली पटळी टीपोयाचेर दवरता. हळूच एक ब्रष उजव्या हातान काडता. मागीर संत ताजें तल्लव दाव्या हातार थापटीता. एक नवो विचार मनांत उदेता. छट करून उटायता.*

**बालमामः** (आश्चर्य भाव) आरे! एक आयडिया मू ती..

*निमिष भितर बालमामाचेर अतिशय परिवर्तन जाता. तो अमसरान दोनि तीनि ब्रष वेंचून चलाणाचे किसांत घालता. साया कालोवंचो वाडकुळो पोळेर सोदून काडता. सायेचीं दोनि तीनि टिनां वेंचून तींवय चलाणाचे किसांत घालता. भितर वचून एकु टोर्च आनी टरकी टवल घेवनु येता. टरकी टवल घडी घालून मात्यार दवरता. मागीर टोर्च घेवनु अमसरान भायर चमकता.*

*(यवनिका देंवता.)*

* * *

## दुशेरें रंग / रंगविधान

तेच घराचें आनी एक कूड. एक मांचो, दोनि कदेलां आनी एक मेज. मेजार एक फ्लास्क, एक खोलो, दोनि ओखदा कुपीयो आनी एक CD प्लेयर आसा. मांचो मागल्यांच्या पागाराक तेंकून घाला. मागल्यांच्या पागाराक एक जनेल आसा. तें आतां बंद आनी कर्टनान धांकून आसा. रातीचो वेळ.

*मांचार आंग सगळेंच पांगरून ज्योती गाढ निदेर आसा. तिजें मातें वेदीचे उजव्यान आसा आनी ती सदस्यांक तोंड करून निदेल्या. मांचा लागी आशिल्ले कदेलाचेर सुजाता बेसल्या. निदेर आशिल्ले धुवेक ती तावतावळि चोयताच आसा. एकेक पावटी हर्द्याक हात लायता आनी उंच पळोवनु मोन्यान प्रार्थना करता. एकेक पावटी निश्शब्द रूपान नामजप करता. मिन्नक्का हातांत एक उशें आनी हांतरूण घेवनु वेदीचे दाव्यांतुल्यान संत भितर येता. तांगेलें संभाषण आंग्यरूपान मात्र.*

**मिन्नक्काः** (आंग्यरूपान) तुमी इतेंय खावनु येयाय..

**सुजाताः** (आंग्यरूपान) नाका. नाका! इतेंय पिवंचाक मात्र पुरो..

*मिन्नक्का हातांतुलें उशें आनी हांतरूण रिते कदेलार दवरता. मेजा लागी वचून फ्लास्कांतुलें हून पानीय खोल्यांत रकयता. खोलो सुजाताक दिता.*

**मिन्नक्काः** (आंग्यरूपान) तुमी तें पियाय. हांव वेगळें कोरनु फ्लास्कांतु भोरनु हाडीन..

*सुजाता तिजे लागी थाकून खोलो घेता आनी तांतूलें पानीय फुंकून फुंकून पिता. खोलो परतून दिता. मिन्नक्का फ्लास्क*

*आनी खोलो घेवनु भायर वता आसतना सुजाता तिजे लागी वचून आंग्य करून सांगता.*

**सुजाताः** (आंग्यरूपान) एक उशें आनी हांतरूण मिजेय गुणी हाडि! हांवय हांगाच निदेतां!

*मिन्नक्का कायरें समजलें म्हूण आंग्य करून जाणयता आनी भायर चमकता. ह्या वेळार अचानक मळबार गुडगुडेता. निदेर आशिल्ली ज्योती स्वल्प एक आंग काडता, संत एक परवंता, आनी निदांतूच चिके उलयता.*

**ज्योतीः** (निदांत) माका तो अंतिम पालो पोडचें चोवंका, अम्मा.. (दीर्घ निश्वास) राकून राकून पुरो जालें..

*हें आयकून सुजाता स्तब्द जावनु एक हातान तोंड धाकीता. जाल्यारीय ती धरारि चेले लागी वता आनी तिगेले केसांवेल्यान अपुरबायेन पर्शिता. चेली परतून निदेर जाली म्हण्टना मांचा लागी थाकून स्वल्प दूरा सरता, संत दोळे पुशीता आनी हरद्यार हात जोडून मोन्यान प्रार्थना करता.*

*(यवनिका देंवता.)*

* * *

## तिसरें रंग / रंगविधान

दुशेरे रंगावेलेंच रंगविधान. दीस उदेला, फालें जाल्यां. मांचार आंग सगळेंच पांगरून ज्योती पडल्या. जाल्यार ती जागी आसा आनी तेगेलें मातें एक पातळ उशें लागेन दवरून आतां स्वल्प उबें आसा. ती आतां जनेलाकडे तोंड करून पडल्या.

*सुजाता मेजा लागी राबून खोल्यांतुलें हून दूद चिपटान निवयता आसा. मिन्नक्का हातांत एक सान वाट्टली घेवनु वेदीचे दाव्यांतुल्यान भितर येता. ज्योती संत मातें घुवंडावनु तिका चोयता.*

**ज्योतीः** तें इतें की?

**मिन्नक्काः** हें एदेंच शीरें.. धुवे गुणीच केलेलें तं! (मेजार दवरता)

**ज्योतीः** तोंडाक एक सुवाद दिसना मिन्नक्का!

**सुजाताः** (हातांतुलो खोलो मुकार करता) घे, एक घोट्टु दूद पी. मागीर शीरें दीवीन..

**ज्योतीः** (खोलो घेता आनी मिन्नक्काक चोवनु) मिन्नक्का, हे जनेलाचें कर्टन कडेक काडि, आनी ताजें कवड वाकतें करि!

**मिन्नक्काः** भायर होड्डु शेळोव तं धुवे. कालि राती कसलो पावसु आशिल्लो म्हूण जाण वे?

**ज्योतीः** (आत्मगताचे रूपान) कालि राती तो पडलोच आसतलो! जाल्यारीय माका चोवंका! (सुजाताक चोवनु दीन भावान) अम्मा, एक हें जनेल वाकतें करूक सांग..

**सुजाताः** (तोंडार हास हाडता) हांवच वाकतें करीन मू! जाल्यार ताजे मुरथम एक घोट्टु दूद पीवंका आनी एद्दें शीरें खावंका! मिन्नक्कान तुजे गुणीच केलेलें न वें!

**ज्योती:** (मंदहास) चोरी अम्मा! (संत एदेंच दूद पिता. खोलो परतून दिता. सुजातान दिलेलें शीरें एक दोनि चिपट खाता) ओके, आनी आतां जनेल!

*सुजाता मिन्नक्काक अनुमती रूपान आंग्य दाकयता. मिन्नक्का जनेलाचें कर्टन कडेक काडून ताजें कवड संत वाकतें करता. मागीर दूरा सरता. ज्योती मातें घुवंडावनु जनेलांतुल्यान चोयता आनी आश्चर्य प्रकट करता.*

**ज्योती:** (आश्चर्यान आनी संतोषान) आरे! तो आतांय पडलोना!

*मिन्नक्का आनी सुजाता धरारि जनेला लागी वचून तांतूल्यान भायर चोयताय. तींवय आश्चर्य आनी संतोष पावंताय.*

**मिन्नक्का:** चोयाय, देवाली एकि लीला!

**ज्योती:** (आत्मगत) तो कालि राती पडतलोच म्हूण तं हांवें आठयलेलें..

**मिन्नक्का:** तें कांय आनी आठोवंका नाका धुवे. आतां बाकी शीरें खा, आनी दुदय पी! ना जाल्यार निवनु वतलें.. (भायर वता)

**सुजाता:** (दुखभावान) पोरा, तूवें तुजे पासून चिंतुन्ना जाल्यार अम्मा पासून पुणीय चिंता करि! ही अम्मा इतें करतली गो?

**ज्योती:** (दुशेर जनेलांतुल्यान भायर चोयता. विश्वास जायनातीलें मातें हालयता) इतूलो पावस वारें येवनूय तो खाल पडलोना!

**सुजाता:** (प्रसन्न भावान) आजि आतां पावसु वारें कांय ना. तें दिकून डॉक्टर येवनु वचू भितर आतां जनेल दुशेर बंद! हें जनेल खंडित धांकूका म्हूण सांगून तं कालि डॉक्टर गेलोलो. (जनेल धांकीता आनी कर्टन घालता.

**ज्योती:** डॉक्टर इतूले वरांचेर येतलो?

**सुजाताः** इखरा वरांचेर. इत्या?

**ज्योतीः** कांय ना अम्मा, सबाव निमगिल्लें. तें दी माका, शीरें आनी दूद!

**सुजाताः** (अत्यंत संतोष) दितां, दितां! (शीरें एदेदें करून स्पूणान दिता)

**ज्योतीः** (खातना पितना, चिंतेंत बुडून आसा) अम्मा...

**सुजाताः** इतें पोरा?

**ज्योतीः** हांव एकि बुद्दूस अम्मा!

**सुजाताः** (हासून) तुगेले अम्मा पशीय बुद्दूस वे?!

**ज्योतीः** (हासता) व्हय, सगटां पशीय बुद्दूस! माका मिगेली चूकि दाकोवनु दिवंचाक तं तो पालो थांगाच राबीला! मोरूक आग्रहु करप होड पाप न्हय वें?

**सुजाताः** जाय म्हूण न्हय न वें? तुगेले रोगाक लागूनूच ती चिंता आयलेली.

**ज्योतीः** हें पातळ उशें काडून एक चांग उशें दवरी, माका एक तेंकून बेसूका!

**सुजाताः** गींतु दवरता वे?

**ज्योतीः** डॉक्टर येवनु वचो, मागीर पुरो! मिगेलो केस स्वल्प वोळोवंका अम्मा!

*सुजाता धरारि भितर वचून एक चांग उशें घेवनु येता, आनी तें दवरून धुवेक ताजेर तेंकून बेसयता. पांगरूण आंगार ओडीता. एकि दांतोणी घेवनु तिगेलो केस श्रद्धेन आनी मोगान वोळयता. मागीर एक धवे लेसान तोंड पुसून दिता आसतना डॉक्टर वेदीचे दाव्यांतुल्यान*

*भितर चडून येता. हातांत ब्रिफकेस. तीं दोगांय ताका चोवनु मंदहास करून राबताय.*

**डॉक्टरः** आहा, चांग इंप्रूवमेंट आसा मू!

**ज्योतीः** (प्रसन्न भावान) गुड मॉर्णिंग डॉक्टर!

**डॉक्टरः** ए वेरि गुड मॉर्णिंग टु यू यंग लेडी! आजि कशी आसा? सकाळीं इतें खेलें?

*डॉक्टर तिगेले हाताक धरून पल्स चोयता. थेरमोमीटरान तापु चोयता. तिगेले दोळे आनी जीब तपासून चोयता. तोंडार तृप्त भाव.*

**ज्योतीः** (थेरमोमीटर काडतना जाप दिता) एक प्लेट शीरें आनी एक खोलो दूद!

**डॉक्टरः** वेरि गुड! कशीय जाल्यारीय आयचे दिसाक लागेन ओखद आसो.

**सुजाताः** (संतोष) डॉक्टर, एकि च्या हाडता वे?

**डॉक्टरः** थेंक यू! जाल्यार, नाका! आजि फाले फाल्यार आस्पत्रेंत एक सीरियस केस आयल्यां. रोगु न्युमोणियाचि. कांय आरोग्य नातिल्लो एक म्हालगडो मनीषु. कालि राती पावसांत सगळो भिजलो म्हूण दिसता. वस्त्रां सयत पुरतोच तिमून फुगून आशिल्लो. तापु चड जावनु कडकडो आरांबिल्लो. अबोधावस्थेर तं हाडलोलो. कांय प्रतीक्षा ना! तें दिकून माका धरारि परतून वचूका..

**सुजाताः** जावो जाल्यार डॉक्टर, गेटांत पर्यान हांवय येतां. (ज्योती लागी) हांव आतांच येवीन..

**ज्योतीः** ओके अम्मा! गींत दवोरनु वशी वे?

*सुजाता CD प्लेयराचेर गींत दवरता आनी डॉक्टरान गेलेले मागल्यान भायर चमकता. ज्योती गींत आस्वादन करून बेसता. रेडियोवेल्यान हो गींत येता -*

फुला फुला, तूं जन्मल्या
दीसु हो सुंदर केला
फूल फुलूनु परमळेल्या
जगाक आनंदु जाला (फुला..)

मंदस्मितपूर्ण मुखामळान
प्रफुल्ल कांतीचे प्रसन्नतेन
येता वतल्यांक धोरनु राबयले
चित्तवित्त तांचें तुवें चोरलें (फुला..)

सुगंधपूरित केलें आंगण
घरा शेजारान तुजें गुणगान
देवालया लागी पावले वरीन
हात जोडूनु वताय जन (फुला..)

बावूनाका आतां सांज जातना
गळूनाका आतां दीसु सरतना
धन्य गो तुगेलो जन्मु फुला
सर्व क्षणिक म्हूण सांगूनाका (फुला..

*गिंताचें आलापन जातनाय अम्मा परतून आयलीना दिकून ती एक दोनि पावटी कवडाकडे प्रतीक्षेन चोयता. हळूच 'अम्मा' म्हूण उलो दिता. मागीर संत मांचार थाकून उटायता. पावलांर सोक्स घाल्यांय.*

*जनेला लागी वचून कर्टन दूरा करता आनी जनेल संत वाकतें करता. थंगाच राबून जनेलांतुल्यान भायर चोयता. ह्या वेळार सुजाता संत चमकून भितर येता. धूव जनेलाकडे राबिल्ली दिकून आश्चर्य पावंता.*

**सुजाताः** (स्वल्प आकांक्षेन) तूं उटायली?!

**ज्योतीः** (हासून लागी येता) आतां माका सौख्य आसा अम्मा!

**सुजाताः** (मंदहास) तुका ती वालि चोवंचाक अमसोर जालो, न वें?!

**ज्योतीः** व्हय अम्मा, तो एकूच पालो आतांय वाल्येक थापून राबीला! ताजो अर्द भागूय हळदूवो जालो! जाल्यारीय तो गळून पडलोना! (मांचार चडून तेंकून बेसता. जाल्यार आंगार पांगरूण ओडीना)

**सुजाताः** त्या पाल्यान तुका इतें शिकयलें, पोरा?

**ज्योतीः** (दीर्घ निश्वास) ताणें माका मिगेली चूकि दाकोवनु दिली! (एक उडगास येता) हां, आजि माका चोवंचाक आमगेलो मास्टरपीस बालमाम आयलोना मू!

**सुजाताः** (शोकभाव) बालमामाकय न्युमोणिया आयलें धुवा! आतां डॉक्टरान सांगिल्लें सीरियस केस चोय, बालमाम तं!

**ज्योतीः** (आकांक्षेन) व्हय वे? चडाव तं, कांय प्रतीक्षा ना अशी डॉक्टर सांगतालो!

**सुजाताः** व्हय. आतां डॉक्टरान गेटांत पावंचे मुरथमच आस्पत्रेंत थाकून फोन आयलें! (शोकभाव) बालमाम गेलो रे पोरा!

**ज्योतीः** (दुख पावंता) ओ, देवा, कष्ट!

**सुजाताः** जाल्यार तागेलें मास्टरपीस तुका दिवनु तं बालमाम गेला!

**ज्योतीः** (आश्चर्य) तें कशी अम्मा? केद्वाण पेंट केलें तें?

**सुजाताः** कालचे रातीचे भयंकर पावसांत भिजून बालमाम इतें करतालो म्हूण कळता वे?

**ज्योतीः** (एक निमिषाक चिंतिता. मागीर छट करून जनेला भायर चोयता आनी विस्मय पावंता) ओ, अम्मी! माका विश्वास येना!

**सुजाताः** व्हय रे पोरा, वाल्येवेलो अंतिम पालो कालि सांजेचि पडलो. ताजे बदला पागाराचेर बालमामान पाल्याचें चित्र रचीलें. तें तं तागेलें मास्टरपीस चित्र! ताणें तें तुजेच खातीर रचिल्लें!

**ज्योतीः** (दोनीय हातांचेर मातें दवरून रडता) ओ, देवा... ओ, देवा..

*सुजाता धरारि मांचा लागी वता. मांचार बेसून धुवेक सांत्वन दिता. स्वंत दोळेय ती पुशीता.*

*(यवनिका देंवता.)*

* * *



# कमलम्माळ

## अवतारिका

कोंकणींत 'रघुरामायण' म्हूण एक महाकाव्य आसा म्हळ्ळेलें तुमकां सर्वांक कळता आसूका. तें काव्य रचलेलें 'जी. कमलम्माळ' म्हळ्ळेले महतीन. 1930 इसवींत, केवल आटावीस वर्षांचे तरणे प्रायेर तिणें ताचें 'बालकांड' रचीलें. तिगेले बापान तेच वर्षा तें मुद्रण केलेंय. मागीर तें काव्य तिणें धा वर्षांनी पूर्ण केलें तरीय ताचें प्रकाशन एकेक कारणान खूब काळांक अडून वरलें. जाल्यार 1981 वर्षा तें पूर्ण रूपान तिचे सान्निध्यांतूच प्रकाशित जालें. ते महान कवयित्रीचे धन्य उडगासान हें जीवचरित्रात्मक लघुनाटक आमी सादर करताय.

### पात्रां

सूत्रधार (40) शब्द मात्र
कमलम्माळ (79) शब्द मात्र
लीला (10) विद्यार्थिनी
कोमळा (10) विद्यार्थिनी
कमला (27) तरनाटी
बापा (55) मध्यवयस्क
कमलम्माळ (76) वयोधिका (संभाशण ना)

ह्या पात्रांचे भायर 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' आनी 'केरळ कोंकणी अकादमी' अशे दोन वेदींचेर उपस्थित आसूंक कांय मानेस्तां जाय. तांकां कांय संभाशण ना.

**रंगविधान** - *वेदीचे मुकार एक तांतूं जावन चांग एक कदेलाचेर 'कमलम्माळ' हांचें एक होड रंगीन चित्र, फुलां माळा घालून दवरल्यां. हे कडेन मात्र उजवाड आसा. वेदीचो बाकी भाग काळकांत आसा.*

**सूत्रधारः** (पश्चातलार शब्द मात्र) 'जी. कमलम्माळ', हे आमचे कवयित्रीन 'रघुरामायण' नांवांचें कोंकणी महाकाव्य 1940 इसवींत बरोवन पूर्ण केलें तरीय चाळीस वर्षां उपरांतेंच ताचें प्रकाशन जालेलें. हे कवयित्रीलें नांव समस्त कोंकणी समूहाक सदाकालाचें प्रचोदन जावन आसतलें. 'कमला' म्हळ्यार साक्षात लक्ष्मी देवी. आनी 'जी. कमलम्माळ' म्हळ्यार कोंकणी काव्याची लक्ष्मी! ह्या वेळार तांगेलींच दोन उतरां आमी आयकुया..

**कमलम्माळः** (प्राय 79 - शब्द मात्र) हांवें चाळीस वर्षां पूर्वीं बरयलेलें हें काव्य पूर्ण रूपान उजवाडा आयिल्लें पळोवंचाक आशिल्लें भाग्य दिवनु देवान मिजेर होड अनुग्रह केला. ह्या वेळार मिगेले सानप्रायेर जालोलो एक संभवु तं हांव सांगूक वतां. हांवें शिकूचे कालाक मिजे लागी शिकच्यांनी निमगीलें..

**रंगविधान** - *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. वेदीचे मुकार कदेला कडेन आशिल्लो उजवाड वाडवता. वेदीचे मागल्यान अशिल्लो भाग उजवाडेता. थांगा गागरो आनी चोळी न्हेसून दोग जाण चेलीयो आसाय.*

**लीलाः** एय कोमळ, चिके राब गो. एक निमगीतां.

**कोमळाः** इत्तें गो लीला?

**लीलाः** आगो, तुगेथंय मस्त ग्रंथ सगट आसाय नवें? आमगेले

भासेन ग्रंथू जावो गींतु जावो आसावे?

**कोमळाः** (स्वल्प वेळ चिंतून) कांय ना मुगो तशी..

**रंगविधान** - *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. आतां परतून वेदीचे मुकार कदेला कडेन उजवाड येता. आनी वेदीचो बाकी भाग काळकांत जाता.*

**कमलम्माळः** (प्राय 79 - शब्द मात्र) तशी एदीं वर्षां वच्चाक कोण की 'वेंकटेश कल्याण' पुस्तक मारनु देंवयलो. मागीरि 'सारस्वतमित्रम' म्हळ्ळेली वार्तिका देंवयली. थोडे आमगेले भासे गींत देकले. मिगेलें शिकप राबयलें. व्हारडीक जाली. जाल्यारि पुराण ग्रंथ सर्व बापान वाचूक हाणु दिवप आशिल्ले. रामायण चारि नमून्याचें - कंबरामायण, तुळसीदास रामायण, आनंदरामायण, आनी लघुरामायण. एक दिसा हांवें म्हळ्ळें - 'माकाय कांय बरयल्यार चिन्ना म्होणु आसा!'. हें कायरें कोणें की बापा लागी सांगीलें..

**रंगविधान** - *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. वेदीचे मुकार कदेला कडेन आशिल्लो उजवाड वाडवता. वेदीचे मागल्यान अशिल्लो भाग उजवाडेता. थांगा साडी आनी चोळी न्हेसून कमला राबल्या. तिगेलो बापा लागी येता आनी तिगेल्या हातांत एक नोट बुक आनी पेनसिल दिता.*

**कमलाः** (आश्चर्यान) हें इत्तें बापा? वाचूक आशिल्लो ग्रंथ न्हय मू!

**बापाः** हें एक नोट बुक आनी पेनसिल गो धुवे. तुकाय इतेंय बरयल्यार चिन्ना म्होणु आशिल्लें नवें? तुका दिसचें हाजेर बरय. चिन्ना जाल्यार काडूं. ना जाल्यार कागत मात्र नवें वेचू?

**ंगविधान -** *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. आतां परतून वेदीचे मुकार कदेला कडेन उजवाड येता. आनी वेदीचो बाकी भाग काळकांत जाता.*

**कमलम्माळ :** (प्राय 79 - शब्द मात्र) तशी 'सुशीलन' म्हूण एक काणी बरयली. ती मुद्रण केली. मागीर आमगेले भासेन 'रामायण बालकांड' बरयलें. आमगेले बायलां जनांक वाचूकय आलापन कोरनु ह्रदिस्त कोरूकय जावंका म्हळ्ळेल्यान तान्नी नित्यपारायण कोरचे 'श्रीवेंकटेशकल्याण' काव्याचे रीतीन तं मिगेलेंय काव्य रचिल्लें. तिरुवल्लाचे कैरळी प्रेसांत बापान तें मुद्रण केलें..

**रंगविधान -** *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. वेदीचे मुकार कदेला कडेन आशिल्लो उजवाड वाडवता. वेदीचे मागल्यान अशिल्लो भाग उजवाडेता. थांगा साडी आनी चोळी न्हेसून कमला राबल्या. तिगेलो बापा लागी येता आनी तिगेल्या हातांत 'रामायण बालकांड' पुस्तकाची प्रती दिता.*

**कमलाः** (संतोषान) चांग आसा मू बापा! बापान मस्त कष्ट काळ्ळे..

**बापाः** कांय कष्ट ना धुवे, संतोष नवें आमकां! आसो, हांतुली एक पंत्ती एक वाचून आयकय माका!

**कमलाः** (पुस्तक वाकतें करून एक पंत्ती आलापन करता)
'पूर्वकालाक जालो कोसलदेशांतु
सूर्यवंशाचो रायु अयोध्यानगरांतु
सूर्यप्रभाकांतीन दशरथुराजेंद्रु
इंद्रसमान वासु कोरूं राबतल्लो जालो..'

**बापा:** (संतृप्त भाव) चांग आसा. चांग आसा. कोल्लांवचे राम पैन पुस्तकाक चांग अवतारिका बरयल्या.

**कमला:** पै मामान इत्तें बरयल्यां? होड उपकार तांचो!

**बापा:** महाकाव्य पूर्ण जातना कोंकणी साहित्यांतुलो सर्वोत्कृष्ट ग्रंथ म्हळ्ळेल्या स्थानाक अर्ह जातलो खंय! तूंच वाचून चोय..

**रंगविधान** - *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. आतां परतून वेदीचे मुकार कदेला कडेन उजवाड येता. आनी वेदीचो बाकी भाग काळकांत जाता.*

**कमलम्माळ:** (प्राय 79 - शब्द मात्र) बापान दिलेले प्रोत्साहान हांवें धा वर्षांनी तें काव्य पूर्ण केलें. काव्याचे अंत्यार हांवें बापाचो उडगास केलोय आसा. तावळ माका आठतीस वर्षां. तो एक होड ग्रंथ जालेल्यान मुद्रण कोरूक एकेक प्रतिबंध आयले. 'सुशीलन, बालकांड, पात्रचरितम', आनी 'दोनि मित्र' हीं पुस्तकां सान सान आशिल्ल्यान मुद्रण कोरूक जालीं. तेदे भितर दुशेरें लोकमहायुद्ध आयलें. ताजुपरांतें मिगेले पतिदेवालो देहांत जालो. तशी तशी एकेक कारणान ताचें कार्य अडून वरलें. जाल्यार 1978 वर्षा कोचींत भरलेल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशद संमेळनाचे वेदीर मिजो सन्मान जालो..

**रंगविधान** - *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. वेदीचे मुकार कदेला कडेन आशिल्लो उजवाड वाडवता. वेदीचे मागल्यान अशिल्लो भाग उजवाडेता. थांगा अखिल भारतीय कोंकणी परिशद संमेळनाची (कोची - 1978) वेदी दिसता. वेदीचेर मानेस्त जन उपस्थित आसाय.*

*ेदीचे दाव्यांतुल्यान जी. कमलम्माळ सन्मान स्वीकार करूक येता. ागलीं उठून राबताय. फूल, साल आनी मानचिह्न भेटून तिचो आदर करताय. ती सदस्यांक तोंड करून विनम्र भावान हात जोडता..*

**ंगविधान** – *पश्चातलार करघोष. मागीर मंद रूपान संगीत आयकूयेता. आतां परतून वेदीचे मुकार कदेला कडेन उजवाड येता. आनी वेदीचो बाकी भाग काळकांत जाता.*

**कमलम्माळः** (प्राय 79 - शब्द मात्र) मागीर मिजे वांट्याक आयिल्लें भाग्य तुमी जाणाय मू! हांवें काव्य बरोवन जावन चाळीस वर्षां जालेले कालाक तें पूर्ण रूपान उजवाडा आयलें. श्री. पय्यनूर रमेश पैन तें देवनागरीन लिप्यंतरण कोरनु केरळ कोंकणी अकादमीचे वाटेन प्रकाशित जालें. आलपळे चमकिल्ले प्रकाशन कार्यक्रमांत स्वयं वांटो घेवंचाक आशिल्लें अप्रूप भाग्य देवान माका दिलें..

**रंगविधान** – *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. वेदीचे मुकार कदेला कडेन आशिल्लो उजवाड वाडवता. वेदीचे मागल्यान अशिल्लो भाग उजवाडेता. थांगा केरळ कोंकणी अकादमीची (आलपुषा - 1981) पुस्तक प्रकाशन वेदी दिसता. वेदीचेर मानेस्त जन आनी जी. कमलम्माळ उपस्थित आसाय. तीं सर्व मागीर उठून राबताय आनी पुस्तकाचें प्रकाशन जाता...*

**रंगविधान** – *पश्चातलार करघोष. मागीर मंद रूपान संगीत आयकूयेता. आतां परतून वेदीचे मुकार कदेला कडेन उजवाड येता. आनी वेदीचो बाकी भाग काळकांत जाता.*

**सूत्रधारः** (शब्द मात्र) 'रघुरामायण' महाकाव्याच्या त्या प्रकाशन

कार्यक्रमाचे दोन वर्सां उपरांतें, म्हळ्यार 1983 वर्सा, जी. कमलम्माळ दिवंगत जाली. कोंकणी भाशाभिमानी जनांनी 2002 वर्सा आलपळे गांवांत तांची जन्मशताब्दी मनयली. आतां ते महान कवयित्रीचो धन्य उडगास आमी आदरपूर्वक घेवया..

**रंगविधान -** *पश्चातलार मंद रूपान संगीत आयकूयेता. सगले वेदीचेर उजवाड जाता. सगले अभिनेता एकडे जावन कदेलाचेर आशिल्ले चित्राचेर पुष्पार्चन करताय. यवनिका देंवता!.*

* * *

# नांव नातिल्लें नाटक

## अवतारिका

नांव नातिल्ल्या ह्या नाटकांतुलें प्रधान कथापात्र आसा कांय उलोवनातिल्लो एक रूक! कवि शरतचंद्र शेणैल्या 'आत्मायन' काव्यसंग्रहांतुले 'किण्ण खीण' नांवांचे कवितेचेर आधारून हें लघु नाटक रचल्यां.

## पात्रां

| | | |
|---|---|---|
| गायक | (35) | ग्रामीण गायक |
| चेलो १ | ( 5 ) | सान चेलो |
| अम्मा | (30) | शब्द मात्र |
| बापा | (35) | शब्द मात्र |
| चेलो २ | (15) | व्हड चेलो |
| तरनाटो | (40) | चेलो घरकार जालो |
| तरनाटी | (35) | घरकारणी |
| चेलो ३ | (10) | आधुनिक चेलो |
| दंदेली १ | (25) | रूक कातोरचो |
| दंदेली २ | (28) | रूक कातोरचो |

## प्रथम रंग / रंगविधान

पश्चातलार परणें एक मध्यम वर्गीय घर. वेदीचेर आसा घराचें मुकावेलें आंगण. घराचे दारवोट्या मुकार जावनु परणी तुळशि. आनी एक तांतूं जावनु दोन फुलां झाडां. घरालागी थाकून स्वल्प दूरा जावनु एक सानि आंब्या सरशी. भायर थाकून आंगणांत चडची वाट वेदीचे दाव्यान जावनु आसा.

*प्रभात समयाची सूचना. सवण्यांचो शब्द. घरा भितर थाकून रेडियोचेर श्री वेंकटेश सुप्रभात आयकूयेता. उजवाड संथ संथ चड जाता. घराचें मुकावेलें कवड वाकतें करून भितर थाकून पांच वर्सांचो एकलो चेलो भायर येता. बनियान आनी चेड्डी. आतां जागेर आयिल्लो मात्र म्हळ्ळेल्यान दोळे घष्टूनूच आंगणांत देवंता आनी सरशे लागी चमकता. सरशे मूळांतलें आळें सारकें करता. घारा लागी थाकून एक चेंबांत उदाक घेवनु येता आनी सरशेक शिंपिता.*

**अम्मा:** (भितरचान. शब्द मात्र) ओ, भांगरा पूत उटायलो म्हूण दिसता! दांत सरी घासूचे फूडे सरशे मणांत धावलो कीं?

**बापा:** (भितरचान. शब्द मात्र) वचो गो तो! आंब्या पाल्यान दांत घासल्यारीय जाता मू!

*चेलो हें आयकता. खूक् करून हासता आनी बापान सांगिल्ले वरीच दांत घाशीता.*

**चेलो:** (सरशेक सुसूक्ष्म पळयता) आजि नवे पाले आयल्याय मू! (एक पाल्याक हळूच आपडता आनी आश्चर्य पावंता)

ओ, मोव मोव आसा! (संथ, अर्दे मनान, घरा दिकान परतून चमकतना सरशेक चोवनु सांगता) आनी सांजे घालीन उदाक!

*(यवनिका देंवता.)*

*एकलो ग्रामीण गायक एकतारा वाजून यवनिके मुकार दाव्यांतुल्यान संथ चमकून येता. प्रेक्षकांक तोंड करून चार पंक्ती गायन करता आनी संथ चमकून उजव्यांतुल्यान परतून वता -*

अशीच गेले दीस अनेक
उदाक मेळ्ळें सरशेक
चेलो वाड्डलो सरशी वाड्डली
ते वरी ती दोस्तीय वाड्डली..

* * *

## दुशेरें रंग / रंगविधान

पश्चातलार तेंच घर. तेंच आंगण. तीच तुळशि आनी तींच फुलां झाडां. जाल्यार सरशी मस्त वाड्डल्या. सानूच एक रूक जाला!

*प्रभात समयाची सूचना. सवण्यांचो शब्द. घरा भितर थाकून रेडियोचेर श्री वेंकटेश सुप्रभात आयकूयेता. उजवाड संथ संथ चड जाता. घराचें मुकावेलें कवड वाकतें करून भितर थाकून* **पंदरा** *वर्सां जालोलो तोच चेलो भायर येता. बनियान आनी लुंगी. आतां जागेर आयिल्लो मात्र म्हळ्ळेल्या वरी दोनीय हात उंच वळोवनु जांबय काडता. हाता बोटांनी केस सारके करता आनी आंगणांत देवंता. रुका लागी चमकता आनी एक सान खोर्यान आळें सारकें करता. घारा लागी थाकून एक बकेटांत उदाक हाडून रुकाक शिंपिता.*

*ह्या वेळार वेदीचे दावे तांतूल्यान सायकलाचें बेल आयकूयेता आनी ते सायकलावेल्यान उडयिल्ले वरी एक दिनपत्र घरा मुकार येवन पडता. चेलो होगी वचून दिनपत्र हातांत काडता आनी उत्सुकतेन तें विस्कळायता. तांतूं तो कितें तरी अमसरान सोदीता. एक घडी चोयतना ताका तें मेळता आनी तो संतोषान पत्र परतून घडी धालता. रुका लागी वता.*

**चेलोः** (रुका लागी संतोषान सांगता) हांवें सांगिल्लें नवें तुजे लागी! एसेसीक फस्ट क्लास आसा माका! फस्ट क्लास!

**अम्माः** (भितरचान. शब्द मात्र) आरे, कोण आयलें रे थांगा? कोणा लागी उलयता तूं?

**चेलोः** (संतोष) कोण ना अम्मा. आयचें पेपर आयलें. मिगेलें रिसल्ट आसा. माका फस्ट क्लास मेळ्ळ्यां!

**म्मा:** (शब्द मात्र) व्हय वे? देव पावलो! आजी बिरेस्तार! होगी न्हावनु देवळांत वचून यो. एक तुपा दिवलीय लाय उडगासान.

*(चेलो घरांत चडून वतना यवनिका देंवता.)*

*ग्रामीण गायक एकतारा वाजून यवनिके मुकार दाव्यांतुल्यान संथ चमकून येता. प्रेक्षकांक तोंड करून चार पंक्ती गायन करता आनी संथ चमकून उजव्यांतुल्यान परतून वता -*

युवक वाड्डूनु जालो गृहस्तू,
सरशी वाड्डूनु रूकू..
सुखद शीतळ जालें आंगण,
आंबेय दिले मोगान..

* * *

## तिसरें रंग / रंगविधान

पश्चातलार तेंच घर. जाल्यार नव्यान पेंट केल्यां. तुळशीय रंगीन जाल्या. फुलां झाडां चड आसाय. आंगणांतुलो रूक भारी वाड्डून गेला! ताजे मूळांत आतां आळें कांय ना. रुका पोंदाक एक स्कूटर आसा. तें ताजे खातीरीच आशिल्ल्या कव्हरान पांगूरनु आसा.

*प्रभात समयाची सूचना. जाल्यार रुका पोंदाक सावळी आसा. घराचें कवड वाकतें करून तरनाटो भायर येता. चोगो आनी लुंगी. हातांत एक प्लास्टिकाचें स्टूळ आनी दिनपत्र आसा. तो आंगणांत देवनु रुका लागी चमकता. रुका पोंदाक स्टूळ घालनु ताचेर बेसता. संतृप्त भाव. तो पत्र विसकळावनु वाचूक आरांभिता.*

*स्वल्प वेळान भितरचान एक तरनाटी (चूडीदार न्हेसल्या) घराचे कवडा कडेन येता आनी थांगाचान जाप दिता.*

**तरनाटी:** (प्रसन्न भाव) तुमी पावले वे रुका पोंदाक?!

**तरनाटो:** (हासता) केद्दाण थाकून आशिल्ली संवय नवें? हांगा बेसल्यार वेगळेंच एक सुख दिसता माका!

**तरनाटी:** (लागी येता) एक कायरें सांगूका म्हूण तं हांव आयल्यां..

**तरनाटो:** (पत्र परतून घडी घालता) इतें कायरें गो?

**तरनाटी:** चोयाय, हांव अमसोर काडता म्हूण दिसूनयें. जाल्यार आमी एकेक कायरें प्लान कोरनु दवरल्यार चांग नवें?

**तरनाटो:** (हासता) कसलें गो प्लान कोरका?

**तरनाटी:** चेलो होडु जावनु नवें येता? मुकारी तुमगेले हे स्कूटरार (स्कूटरा दिकान आंग्य करता) आमकां सगटांकय भोंवचाक जातलें वे? आलोचन कोरका..

**तरनाटोः** कार जाय म्हूण नवें? हांवें आलोचन केलीना म्हूण ना गो. हें वर्ष लागेन वचो म्हूण आसा..

**तरनाटीः** (तृप्त भाव) जावो. हांवें अशीच उडगास दिलो म्हूण मात्र.

*(ती परतून घरांत चडून वता. तरनाटो आलोचनेंत बुडता. उटायता आनी रुका लागी वता. रुकाचेर हळूच थापटिता.)*

**तरनाटोः** (दुखित भावान आत्मगत) कार घेतना तें घालूक हांगा स्थाय नाका वे? (तुळशीक चोयता) थांगा जाल्यार तुळशि जाली! मागीर आसा हो एक स्थाय मुरे पापिया..

*(यवनिका देंवता.)*

*ग्रामीण गायक एकतारा वाजून यवनिके मुकार दाव्यांतुल्यान संथ चमकून येता. प्रेक्षकांक तोंड करून चार पंक्ती गायन करता आनी संथ चमकून उजव्यांतुल्यान परतून वता -*

अशीय गेले दीस सुमार...
स्कूटर गेलें, आयलें कार
मोगाळ मित्रा, आंब्या रुका,
तुका कातरूक दिलें करार..

* * *

## चवतें रंग / रंगविधान

पश्चातलार तेंच घर. तेंच आंगण. तीच तुळशि, तींच फुलां झाडां आनी तोच रूक. जाल्यार स्कूटर ना. रुका खालाक उणेच सोपूर खांदे कातोरनु घाल्याय. रूक कातोरचे दोग दंदेली कुराड्यो, हांजो आदी घेवनु राबल्याय. सकाणीचो वेळ.

*घराचें कवड वाकतें करून एकलो चेलो भायर येता. टी शर्ट आनी बेरमूडा. रुका खालाक राबिल्ले दंदेल्यांक दिकतना घरा भितर चोवनु उलो मारता.*

**चेलो:** (उत्साहान) बापा, रूक कातोरचे आळ आयले!

*घरा भितर थाकून तरनाटो देवनु येता. शर्ट आनी पान्ट घाल्यां. तोंड बावनु आसा.*

**तरनाटो:** (दंदेल्यां लागी) आमी इतेंय कोरचें आसा वे?

**दंदेली:** आमकां पिवंचाक दोन बोतल उदाक हाणु दिल्यार पुरो. मागीर तुमी सगटय भितरीच राबाय.

**चेलो:** बापा, माका रूक कातोरचें चोवंका!

**तरनाटो:** (अमसरान) नाका, नाका. सगटांनी घरां भितरीच राबल्यार पुरो. कोणें आंगणांत देवंका नाका. हांव आतां भायर वता तं..

**चेलो:** जाल्यार हांव उदाक हाडता वे?

**तरनाटो:** हाडी, उदाक हाडी..

*चेलो भितर वता.*

**तरनाटोः** (दंदेल्या लागी) इतूलो वेळ धरतलो तुमकां?

**दंदेलीः** आतां णव वरां नवें? देनपारां बारा वरां भितर आमी सर्व दंद जावनु रूक लोरीचेर चडोवनु व्हरतलीं. आंगणांत एक शिरपूट सरी आसुन्ना!

**तरनाटोः** तें पुरो. हांव आतां भायर वतां तं..

**दंदेलीः** जावो सर!

(तरनाटो संथ चमकून रुका लागी वता. स्वल्प वेळाक एक हातान ताका परसिता आनी तशीच माथें बागोवनु, वेदीचे दाव्यांतुल्यान भायर वता. यवनिका देवंता.)

* * *

# दोन दशकां मुरथमलें 'देवदूत' कोंकणी नाटक

वीस वर्षां मुरथम खेळ्ळयलेले एक कोंकणी नाटका विशीं संगतां आसां. पळ्ळुरुत्ती श्री धन्वंतरी देवळाचे 2000 वर्षाचे उत्सवाक अनुबंध जावनू 'कोंकणी सांज' म्हूण एक संगीत कलाकार्यक्रम दवरलोलो. त्या देवळांतुलो उत्सव स्कूळ अवधी कालाक येता दिकून सानांकय होडांकय हे खातीर वेळ अनुकूल आसता. पळ्ळुरुत्तीचे जी.एस.बी. वनिताकलाकेंद्र अनीक जी.एस.बी. बालकलाकेंद्र हान्नी मेळ्नू उत्सवाचे दुशेरे दिसा सांजे सात वरांचेर डी. डी. कलामंदिरांत तो संगीत कलाकार्यक्रम प्रस्तूत केलोलो.

सात व्यत्यस्त नृत्याविष्कार, 'वाटेवेलो फातोर' म्हूण एक एकांकनाटक, आनीक 'देवदूत' म्हळ्ळेलें सामूह्यनाटक, अशी आशिल्लो कार्यक्रम.

आमगेले जी.एस.बी. वनिता जनांक ते वर्षा सामूह्य इतिवृत्ताचें एक आधुनीक कोंकणी नाटक स्वयं अवतरण कोरका म्हूण आग्रह दिसलो. आनीक तें बरोवन तयार कोरचें उत्तरदायित्व मिजेरी बेसलें! ते वर्षा श्रीमती सूर्या अशोक हांगेले कोंकणी कथेक कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभेचो 'सरस्वती बाय साहित्यपुरस्कार' मेळ्ळोलो. कथेचें नांव 'देवदूत' म्हूण. ती कथा आमगेले वनिता जनांकय पसंद जाली दिकून ताजेंच नाटक कोर्या म्हूण निश्चय केलो. कथेचें सारांश अशी - केशव मामाक दोग पूत. म्हालगडो इंजिनियर (माधव) आनीक ताणें होळ्ळे घरवंतांत थाकून सुनेक (प्रमीळा) हाडल्या. जाल्यार धाकल्या उमेशान एक मध्यमवर्गा घरवंताचे चेलेक (कविता) प्रेमविवाह कोरनू हाडल्या. तीणे हाडलेलें स्त्रीधन उणे म्हूण हे धाकले सुनेक तिजी मांयी सदा हिणसिताच आसा. अशी दिकून तीं आतां वेगळीं राबताय. तशी आसतना

केशव मामाक किडनीचो रोग येता. वेगळी किडनी मेळ्ळे शिवाय ताजो जीव वांचुन्ना म्हळ्ळेली अवस्था येता. तेची रगता ग्रूपाची किडनी मेळप तशी सुलभ न्हय आशिल्यान तीं निराश पांवताय आसतना कोण एक 'देवदूत' आपण्याली किडनी दान करता. अंत्यारी हो 'देवदूत' वेगळो कोण न्हय, मांयेन सदाच त्रास दिलेली सून कविताच म्हूण कळतना तिका अत्यधीक पश्चात्ताप जाता.

ही कथा नाटकीय रूपान रंगवेदीर प्रस्तूत कोरचे तशी चारी रंग आनीक एक गींत, अशी एक नाटक हांवे तयार केलें. इतलेंची सांगूयात नंतना आतां ताजे विशीं चड उडगास कांय ना! त्या गिंताची पंक्ती हातांत आसा शिवाय नाटकाचें हातबरप ना! नाटकाचे प्रथम रंगांत टीपोयारी आशिल्लें लैंड फोण वाजता जावनूय, ताजेवेल्यान कोरचे संभाषणांतुल्यान प्रेक्षकांक कथापात्रांचो लघुपरिचय दिलो जावनूय उडगास करतां. अंतिम रंगारी 'तुवें मिगेली कुंकूम राकीली गो!' म्हूण एक पंच डयलोग दवरलोलोय उडगास आसा!



माका नाटक बोरोवन तशी परिचय ना जाल्यारीय, नाटका विशीं स्वल्प कळाकळी आशिल्लीच. कोळेजांत शिकतना एक आमचें 'आतिरा स्टडी सर्कल' म्हूण आशिल्लें, आनीक आमी एक मलयाळम सामूह्य नाटक अवतरण केलेलें. तशीच मिगेले आन्नान (स्वर्गीय ए. आर. बालचंद्रन) स्नेहितां ओटू मेळनू एक प्रमूख मलयाळम नाटका खातीर (कल्याण चिटी) रिहर्सल करतना हांव तांचे ओटू आसतालोंय. लिखीत नाटकां जाल्यार खूब वाचल्यांय, मलयाळम तशीच इंगलीष. अशी खंय खंय की थाकून मेळ्ळेलें स्वल्प मात्र ज्ञान दवोरनु, आमगेलें आवश्य मुकारी दिकून, मिगेली बायल सहीत जायत्यांनी मिजेर दवरलेले विश्वासाचे बलान तें प्रथम नाटक हांवे बरयलेलें. साध्य आशिल्ले कडेन



नूल कथेंतुलें संभाषण तशीच दवरलें. जाल्यार तांतू फ्लाषबॅकांतू दाकयलेलीं कार्यां (उडगासांतुल्यान सांगिल्लीं कार्यां) नाटकांत क्रोणोळजीचे क्रमान केलीं. कशीय जाल्यारीय नाटक सर्वांक पसंद जालें. वनिता जनांनी मागीर एक भक्तिगींत लागेन तांतू भरसिलो. नाटकांतुले पांच पुरुष कथापात्र सहित समस्त कथापात्रांय वनिता जनानींच अवतरण केलीं! तो एक चरित्रसंभव म्हळ्ळेल्यांत संशय ना.

तेदूस रंगवेदीरी आयिल्लीं हीं सर्व - पूर्णिमा रत्नाकर, राधीका शेणै, ज्योती नंदकुमार, प्रभा कामत, चंद्रिका कामत (ह्या पांच जाणांनीय पुरुष कथापात्रां केलेलीं) आनन्दम डी. पै, सुधा जयदेव, अनिता जयकुमार, वी.ए. जयादेवी, अनीक कुमारी निवेदिता कामत. हांतुले कोणाक सरी ह्या रंगारी पूर्वपरिचय ना म्हळ्ळेलें प्रेक्षकांक दिसयनतिल्लेंच तान्नी तें नाटक प्रशंसनीय रूपान अवतरण केलें. ते खातीर तान्नी कसलो आनीक कितलो प्रयत्न काडलो म्हूण तींच जाणांय!



# 'देवदूत' नाटकांतुलो एक गींत

राक देवा, तूं एकु आश्रयू
शरण पांवतांय आमी सोणु संशयू

हांव हांव म्होणु गर्व घेत्तना
नांव तुगेलें जिबेर आयलेंना
दामु कीर्ती सोदून गांवु भोवंतना
सामकी वाटेन पावल गेलेंना (राक..)

पावली सांज आतां, देह हें खरशेलें
पावला-पावलाक कांटे मू तोपले
पोल मू दामु, कीर्ती, हें समजलें
मोलाचें एक तें नांव तुगेलें (राक..)

*(गीतकार : शरतचंद्र शेणै)*

*Video available at : https://youtu.be/jCajDRGnzxY*

# ‘वाटेवेलो फातोर’ एकांक नाटक

पळ्ळुरुत्ती श्री धन्वंतरी देवळाचे 2000 वर्षाचे उत्सवा वेळार अवतरण केलेल्या ‘कोंकणी सांज’ कला कार्यक्रमाक अनुबंध जावन डी. डी. कलामंदिरांत ’वाटेवेलो फातोर’ म्हूण एक एकांकनाटकय प्रस्तूत केलेलें.

भारतीय बालसाहित्यांत प्रचारार आशिल्ली एक काणी घेवन तें नाटक श्रीमती सूर्या अशोक हान्नी इंगलीषान बरोवन तयार केलेलें. नाटकाची रंग साजवण, वेषभूषा आनी दिग्दर्शन बी तांणींच केलेलें. ताजें संभाषण मात्र हांवे कोंकणींत उत्रायलेलें.

नाटकाच्या पश्चात्तलाक अनुयोज्य जालेलें, रानवाठार चित्रीत केलेलें, एक विस्तृत बॅक कर्टन श्रीमती सूर्यान तयार करयलेल्यान नाटकाक एक अनन्य दृश्यसौंदर्यय मेळें. वाटेवेलो तो व्हडलो ’फातोर’ अनुयोज्य रूपान, जाल्यार अधीक जडाणी नातिल्ले तशी, तान्नी स्वयं तयार केलोलो.

राय, मंत्री, संगीतविद्वान, सैनिक, म्हांतारो, बालक, दोगी तरुणी, आदी आशिल्लीं तांतूलीं पात्रां. दोग तरुणींचोय, वाटे कडेनच्या रुकांचोय





लागेन वेष बालकांनीच केलोलो! नाटकांत वांटो घेतलेल्या कोणाक तरीय तांतू कसलोय पूर्वपरिचय नाशिल्लो. जाल्यारीय आमगेले तरुण बालकांनी तें नाटक आस्वाद्य रूपान अवतरण केलें.



## 'श्रीकृष्णलीला' नृत्य नाटकांतुलो एक गींत

**राधाः** खंयी एक गोपिकेक चोवनु कृष्णु हासलो जाल्यार
खंयी तिजे लागी एक उतर ताणें म्हळें जाल्यार
राधेलें तोंड बावलें! राधेलें तोंड बावलें!
दोळ्यांतु दुःख आयलें, राधेलें तोंड बावलें!

**कृष्णः** खंयी एक गोपिकेक चोवनु कृष्णु हासलो तरी
थंय ताजे मनांत आसा मूर्ती एकि राधिकेची
कित्या तिजें तोंड बावलें? कित्या तिजें तोंड बावलें?
कित्या ते दोळे भरले? कित्या तिजें तोंड बावलें?

**कृष्णः** कृष्णाक प्रियकरी एकि ती राधा
तागेले मनांतू वेगळी कोणय ना!

**राधाः** तिजे लागी एक गोड उतर ताणें सांगलें ना
मुरळीगान तिजे खातीर ताणें केल्लें ना!

**कृष्णः** तागेलो हासु सगटांक, तागेलो प्रेमू राधेक!
ताजे मनांतु, दिसूय राती, सखी राधेची एकीच मूर्ती!

**राधाः** खंयी एक फूल कोणय ताजे हातांत दिलें जाल्यार
राधेलें तोंड बावलें! राधेलें तोंड बावलें!
दोळ्यांतु दुःख आयलें, राधेलें तोंड बावलें!

**राधाः** आपण्याले मनांतू आसा तरी प्रेमू
राधे लागी तें कृष्णु सांगना मू!

**कृष्णः** प्रेमळ उतरां सांगूक कृष्णाक कळना मू!
तागेले दोळे तिका सर्वयि सांगताय मू!

**राधाः** असले दोळे कृष्णाले, गोपिकेचे मन फारचे!
दोळे पळयले, मन उड्डलें, सपनांतुल्या गांवांतु पावलें!

**कृष्णः** अशी ते राधिकेक प्रेमू ताजेर आसा जाल्यार
कित्या तिजें तोंड बावलें? कित्या तिजें तोंड बावलें?
कित्या ते दोळे भरले? कित्या तिजें तोंड बावलें?

*'राधा कैसे ना जले' ह्या हिंदी सिनेमा गीताचेर आधारित.*
*(गीतकार : शरतचंद्र शेणै)*
*Video available at: https://youtu.be/hvdBlPA6o7k*



**'Sree Krishna Leela'** was also a milestone drama. This was presented by G.S.S.S.Mahila Vibhag, at D. D. Kalamandir, Palluruthy in 2018. Scripted by this author, this musical drama colourfully depicted the birth and childhood of Lord Krishna in 12 dynamic scenes which were displayed using wall-to-wall LED rear screen.

*Photos & Video available at:*
*https://sites.google.com/view/gsssmahilavibhag/*

# कोंकणी नाटक केरळांत - 1997 मेरेनचीं दोन दशकां

(1997 वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत कोची विश्वविद्यालयांत केंद्रीय साहित्य अकादेमीचे जोडपालवान घडयलेले परिचर्चेंत हांवें सादर केलेलें प्रपत्र हें. उपरांत आतां दोन दशकां गेल्यांय. ह्या सुदीर्घ कालांत ह्या रंगार केरळच्या गांवा गांवांनी खूब प्रगती जाल्या - शरतचंद्र शेणै)

एकेवीस वर्सां मुरथम चेर्तला गांवांत केरळांतलो प्रथम कोंकणी नाटकोत्सव जालो. केरळांतले कोंकणी नाटकां विशीं उलयतना, फाटलीं दोन दशकां म्हूण चर्चेक घेवंचीं जाल्यार, तो नाटकोत्सव ह्या कालखंडाचो आरंभ म्हूण सांगूयात. तो काळ पर्यान केरळाच्या सुमार सगल्याय गांवांनी, वर्सान वर्स, त्या त्या विशेष दिसांनी म्हूण नाटकां करतालींच. जाल्यार चेर्तलेचे GSSS हे संस्थेन 1976 वर्साच्या ओक्टोबर म्हयन्यांत घडयलेल्या त्या अप्रूप नाटकोत्सवाक लागून सगल्याय गांवांच्या कोंकणी नाटककारांक एक विशेष प्रचोदन मेळ्ळें. कोची, चेर्तला, चेराय, तुरावूर, एरणाकुळम, ह्या गांवांच्या नाटक संघांनी त्या नाटकोत्सवांत सात नाटकां सादर केलीं. तीं सगलींय सामाजिक विषयांचेर आधारून आशिल्लीं. नाटकांचीं नांवां हांगा दितां. तीं विषयसूचक जावन आसाय - 'उतराक मोल ना वें?' (कोंकणी कलाकेंद्र, चेर्तला) 'त्यागी' (GSA कलारंग, कोची) 'कपला बोरो' (GSB समाज, एरणाकुळम) 'आशा नातिल्लो मनीष ना' (गोश्रीपुरम हास्यकलाकेंद्र, कोची) 'तो चांग दीस केद्दाणा येतोलो?' (GSB सभा, चेराय) 'देव साक्षी' (केरळेश्वर हास्यकलाकेंद्र, कोची) 'स्त्रीधन' (YMSA तुरावूर).

हांतूं वरिष्ट नाटक म्हूण पुरस्कृत जालेलें 'देव साक्षी'. तें अवतरण केलेले केरळेश्वर हास्यकलाकेंद्रा विशीं स्वल्प खबर. श्री वी. वी. नायक हांणी कोची स्थापन केलेले हे संस्थेन एक डजना वयर नाटकां सादर केल्यांय. बरोवपी, दिग्दर्शक चड करून तेच. चेर्तलेंत

'देव साक्षी' नाटकाक पांच इनामां मेळ्ळीं - वरिष्ट नाटक, कथा, संगीत, रंगसाजवण, दिग्दर्शन अशी. हांगेल्या 'पुरुषधन' नाटकाची शब्दरेखा आकाशवाणी तृशूर केंद्रान संप्रेषण केल्या. हांगेलीं चडय नाटकां हास्यप्रधान तरीय समूहाची व्यंग्यात्मक टिका तांतूल्यान जाताली. हांगेले कथापात्रांक माचयेर जीव दिवंचे आनी नाटकांचे मागल्यान प्रवर्तन करचे कलाकार आशिल्ले श्री नारायण पै आनी श्री रामदास पै.

चेर्तलेचे नाटकोत्सवांत वरिष्ट अभिनेता म्हूण पुरस्कृत जालोलो धन्य कलाकार आज आमचे मदें ना.. कोची GSA कलारंगाचो सजीव प्रवर्तक, नाटकां बरोवपी, 'कोंकण जनता' म्हयनाळ्याचो स्थापक संपादक, अशी सगट आशिल्लो सर्गेस्त आर. सुभाषचंद्र प्रभू. नाटकांचे वाटेन आनी संपादक म्हूण कोंकणी खातीर तांणी जीवूच दिलो अशी सांगल्यार फटी जावंचीना. पोरूं कोचींत घडयलेले अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाचे नगरीक तांचें नांव दिलेलें..

1968 वर्सा एक हास्यनाटक (आंत्रवायू नारायण माम) सादर करीत GSA कलारंगाचो प्रवेश. पुराण, इतिहास, सामूहिक, हास्य, शोकांती, भीकर, असल्या विषयवैविध्यान सुमार चाळीस कोंकणी नाटकां (थोडीं दोन तीन पावटी म्हूण) हे संस्थेन सादर केलीं. नाटकांच्या मागल्यान आनी माचयेरीय एकीच मित्रमंडली काम करताली - आर. सुभाषचंद्र प्रभू, वी. शिवदास मल्ल्या, जी. कृष्ण राव, आदी. मलयाळम नाटक रंगावेले परिचयांतल्याव श्री जी. कृष्ण राव हांणी त्या कालाच्या नाटकांक रंग साजवणेचें एक विशेष नैपुण्य दिलें. पुराणांतलीं गंभीर कथापात्रांय तांणी अनश्वर केलीं. GSA कलारंगांत नवे कलाकार येत राबीले. श्री वी. मुरळीधर नायक हांणी बरोवन दिग्दर्शन केलेल्या 'अंगीकार' ह्या नाटकान प्रेक्षकांली खूब प्रशंसा जोडली. कलारंगाच्या 'परिवर्तन' नाटकाक बेंगळूर नाटकोत्सवांत वरिष्ट कथे खातीर इनाम मेळ्ळें. कथाकार आशिल्लो श्री जी. मुरळीधर पै. GSA संस्थेचे रजत

जूबिलीच्या वेळार कलारंगान सादर केलेले 'प्रीतीचो उपहार' हें नाटक बरोवन दिग्दर्शन केलोलो श्री के. मंगलदास प्रभू आतां 'भुवनेश्वरी' कलाकेंद्राचो मुखेली जावन आसा.

1978 वर्सा अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें अधिवेशन पयलेच पावट केरळांत भरलें - कोचींत. त्या वेळार दोन नाटकां सादर जालेलीं. कोंकणी भाषा प्रचार सभेचें पुराण नाटक 'भक्त मार्काण्डेय' आनी GSA कलारंगांचें सामूहिक नाटक 'प्रतिसंधी'.

कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या कला विभागाचे वाटेन सुमार नाटकां सादर जालीं. सर्गेस्त जे. कृष्ण प्रभू हांणी ते खातीर साबार काम केलें. चडय भक्तिप्रधान नाटकां तांचीं. रंगमाचयेर डी. वासुदेव प्रभू, श्री नरसिंह भट, श्री बालकृष्ण भट, एल. वेंकटरमण भट, आदी आशिल्ले. गीतकार म्हूण श्री के. अनन्त भट आनी मागीर श्री प्रसेनकुमार मल्ल्या आशिल्ले. गायक आशिल्ले श्री ए. वासुदेव भट, प्रोफ. वी. शिवानन्द भट, श्रीमती मोहना बाय, श्रीमती अरुंधती आनी श्री प्रसेनकुमार मल्ल्या.

1978 वर्सा 'म्हांतारी आज्जी' हें नाटक घेवन कोंकणी प्रेमी मंडल आनी श्री वी. शेट बलराज हांणी नांव जोडलें. श्री बलराज आज आमचे मदें नाय. नांव पाविल्लो गायक, गीतकार, संगीतकार, नाटककार अशी साबार दृश्यश्राव्य माध्यमां तांणी हाताळ्ळीं. कोंकणी संगीत कथाकथन (हरिकथे पासून व्यत्यस्त) करूनूय नांव जोडिल्ले एक अनुग्रहीत कलाकार ते.

त्या वर्सीय एक नाटकोत्सव जालो - अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य संमेळनाक अनुबंध जावन. तांतूं पय्यनूर, कण्णूर थाकूनूय नाटकां आयलीं. कोची वैश्य कलाकेंद्रान पयलेच पावटी एक कोंकणी नाटक सादर केलें - 'हांवय कोंकोणो रे!' त्या नाटकोत्सवांत सादर जालेल्या आट नाटकां थाकून कोचीचे 'यूथ्स ऑफ सारस्वत' संस्थेचें

'अंगीकार' हें नाटक पुरस्कृत जालें. ताचो बरोवपी आनी दिग्दर्शक आशिल्लो श्री वी. मुरळीधर नायक. GSA कलारंगांतूय तांणी प्रवर्तन केल्यां. त्या नाटकोत्सवांत सादर जालेलीं इतर नाटकां अशी - 'प्रत्याघात' (GSA कला विभाग, कोची) 'गिलमिटाचो घूड' (GSBS विद्यार्थी विभाग, पय्यनूर) 'रागम तानम पल्लवी' (केरळेश्वर कलाकेंद्र, कोची) 'ब्रोकर किट्टा' (GSSS कण्णूर) 'देव पावलो' (कों. बा. कलाविभाग, कोची) 'दाम न्हय होड' (कों. कलाकेंद्र, चेर्तला)

ताजे उपरांत नाटकोत्सव जालोलो एरणाकुळमांत - 1981 वर्सा. केरळ कोंकणी अकादमीन तो घडयल्लो. त्या नाटकोत्सवांत एक विशेष जालो. एक नवोच विषय घेवन कोचीच्या 'हरिश्री' कलाकेंद्रान तांचें नाटक 'अनुसंधान' खेळयलें. तें बरोवन दिग्दर्शन केलेलें श्री ए. जी. प्रभू हांणी. त्या नाटकाक पुरस्कार मेळ्ळोय. तांतूं 'जन' ह्या कथापात्राची भूमिका केलेल्या श्री सीताराम भट हांकां वरिष्ट अभिनेता म्हणूय वेंचलो. 'अनुसंधानाचो' विषय आशिल्लो कोंकणी भास! सगल्याय गांवांच्या कोंकणी मोग्यांनी भाषे विशींचें तांचे तांचे संकुचित मनोभाव सोडून कोंकणी खातीर एकडे जावंका अशी नाटकाचो संदेश आशिल्लो.

1981 वर्सा अखिल केरळ पुरस्कार जोडिल्ल्या ह्या नाटकाक 1988 वर्सा बेंगळूरच्या अखिल भारतीय नाटकोत्सवांत 'आमेंबाळ नारायण पै ट्रोफी' मेळ्ळी. हेंच नाटक पोरूं, अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाक लागून परतून सादर जालें.

1988 वर्साच्या बेंगळूरच्या अखिल भारतीय नाटकोत्सवाक केरळांतलीं तीन नाटकां गेलेलीं. 'हरिश्री' कलाकेंद्राल्या 'अनुसंधान' हाका वरिष्ट नाटका खातीर ट्रोफी मेळ्ळी. कोची GSA कला विभागाल्या 'परिवर्तन' नाटकाच्या बरोवप्याक (श्री जी. मुरळीधर पै) पुरस्कार मेळ्ळो. कोची 'माध्वतत्व प्रचार सभेल्या' नाटकांतल्या (भीष्म प्रतिज्ञा) संगीता खातीर श्री एन. जी. शर्मा (नन्नू माम) हांकांय पुरस्कार मेळ्ळो.

कोंकणी नाटकांचे मागल्यान प्रवर्तन करच्या आनी स्वयं कोंकणी न्हय तसल्या एक कलाकाराचें नांव सांगूक हो उचित वेळ आसतलो. वयर सांगिल्ल्या तीन नाटकांचेय कलाकारांचें MAKE UP केलेलें 'क्लीटस' मास्तरान आशिल्लें! कोचींत सादर जालेल्या भोव साबार नाटकां खातीर तांणी काम केल्यां.

1991 वर्सा दुशेर्या अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य संमेळनाक अनुबंध जावन कोची टी. डी. स्कूळांत एक नाटकोत्सव जालो. जाल्यार केवल पांच नाटकांच आयिल्लीं - 'प्रायश्चित' (GS Arts, एरणाकुळम) 'संसार बंधन' (भुवनेश्वरी कलाकेंद्र, कोची) 'दैवनिश्चय' (राजगोपाल भजन मंडली, कोडुंगल्लूर) 'वास्तेव मामालें प्रेत' (सारस्वथ यूथ ओर्गनैसेषन, पळ्ळूरुत्ती) 'माम आनी भाचो' (एम. एम. जी. कलाकेंद्र, चेर्तला).

नाटकांच्या नांवांनीच तांचो विषय कळता. सगलींय सामूहिक विषयांचेर आधारून आशिल्लीं. प्रथम पुरस्कार 'प्रायश्चित' नाटकाक मेळ्ळो. दिग्दर्शना खातीर 'दैवनिश्चय' नाटकाच्या श्री एम. जी. रामचंद्र प्रभू आनी श्री. डी. जी. रामानुज पै हांकां पुरस्कार मेळ्ळो. संगीता खातीर 'संसार बंधन' नाटकाचो श्री जे. मुरळीधर पै पुरस्कृत जालो. वरिष्ट अभिनेता म्हूण 'माम आनी भाचो' नाटकांतलो श्री पी. एस. शेणै पुरस्कृत जालो. वरिष्ट अभिनेत्री म्हूण 'प्रायश्चित' नाटकांतल्या श्रीमती प्रभावती हांकां पुरस्कार मेळ्ळो.

आमचे मुकार आशिल्ल्या कालखंडांत जालेल्या नाटकोत्सवांक केंद्रित करून हें इतलेंच सांगल्यां. हांतूल्यानच एक सरळ चित्र आमकां मेळता. केरळाच्या कोंकणी नाटक रंगाक SEVENTIES बरीं आशिल्लीं EIGHTIES भोव बरीं जालीं, आनी आतां NINETIES तितलींच सांगूक पुरोश नाय! फाटल्या दोन दशकांनी केरळच्या सुमार सगल्याय वाठारांनी एक ना एक नाटक सादर जाल्यांच. जे जे कडेन तरनाटे एकडे जाले, थांगा तांकां नाटकांनी आकर्षित केले. नाटक एक असली कला आनी

एक असलें साहित्य आसा, जाचें आस्वादन, समीक्षा आनी रसिकांचें प्रतिकरण त्याच क्षणाक मेळता. लिखित साहित्या वरी राकून बसचें नाका.

जाल्यार साहित्य म्हणूच कांय नाटकां तयार जाल्यांय. बेंगळूर श्री के. रमेश कामत हांगेलें 'भरतपुराचो भरत मास्तर' हें आक्षेप-हास्य नाटक पुस्तक रूपान आयल्यां. केरळांत माचयेर आयलें ना. थोड्या वर्सांनी कोंकणी साहित्य मत्सरांत 'नाटक' हो एक प्रकार म्हूण मानून घेतला. ताका लागून लिखित रूपान आशिल्ल्या नाटकांकय इनामां मेळताय. कोची श्री के. अनन्त भट हांणी खूब संगीतिका रचल्याय आनी तांचो संग्रह 'संगीत रूपक' म्हूण उजवाडायला. नाटकांचे जायते गीत मागीर कैसटांच्या रूपान आयल्याय. कोची श्री प्रसेन कुमार मल्ल्या हांणी नाटकां खातीर रचलेले आनी स्वयं गायन केलेले गीत पुस्तक रूपान आयल्याय. तसले गीत आकाशवाणीवेल्यान संप्रेषण बी जाल्याय.

चेरडुवां खातीर म्हणूय नाटकां सादर जाल्यांय. कोची श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट हांणी तांगेल्या 'गोश्री केंद्रा' वाटेन थोडीं नाटकां, नृत्य नाटकां सादर केल्यांय. त्या त्या गांवांनी महिळा मंडल्यां वाटेनय कांय नाटकां प्रस्तुत जाल्यांय - चड करून कोषिकोड, तिरुवनंतपुरम, आनी कोचींत.

1980 वर्सा कोचींत सादर जालेलें 'सुकती आनी भरती' (GSB महिळा मंडल) ह्या नाटकाची कथा, संभाषण, गीत, संगीत, दिग्दर्शन, हें सगलेंय केलेलें श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट हांणी! कोची श्री वी. लक्ष्मण प्रभू हांगेलें 'आमकां व्हार्डीक ना वे?' हें नाटक तिरुवनंतपुरम SA च्या वनितांनी सादर केल्यां. कोषिकोड SGS सभेचे वनिता विभागान तयार केलेलीं नाटकां चडय बरयलेलीं श्रीमती सुनीती एस. राव हांणी.

कोषिकोड SGS सभेचे विद्यार्थी विभागान सुमार नाटकां सादर केलीं. तीं बरोवन दिग्दर्शन दिलेले ह्या इतल्यांनी - श्री एस. अशोक,

श्री एन. विठलदास शेणै, श्री सतीश कुळूर, श्री जयप्रकाश कुळूर, श्री जे. माधव नायक, श्री बाबू रामदास. चडय हास्यप्रधान तरीय थोडीं सामूहिक नाटकांय आशिल्लीं.

हास्य नाटकांक सगल्यान म्हूण जनांचो अंगीकार मेळ्ळा. हास्य कलाकेंद्र म्हणूच दोन संस्था कोचींतूच आशिल्ल्यो. आतां कोचीचे रंग माचयेर पोरणे म्हूण दोग अभिनेता आसाय आनी ते दोगांय सदांच हास्य कथापात्रांची भूमिका करीत आयल्याय. अभिनय रंगाचेर पन्नास नाटकांत अभिनय करून, एक RECORD घालनु मुकार वता आसा हास्य अभिनेता श्री आर. नारायण शेणै, कोची. तांच्या मागल्यानच आसा श्री आर. नारायण पै अथवा 'नान्नी माम'.

आतां हें STATISTICS सोडून कांय विचार हातांत घेतां. केरळांत कोंकणी नाटकांनी कितें साध्य जालें? जनजीवितांत कसलोय परिणाम हाडूक जालो? सामूह्यस्पर्शी, आदर्शवादी नाटकां खूब तयार जालीं तरीय तांतूं जनांलें आस्वादन उद्देशून गींत, संगीत, नांच, हास, खुशाली मेळयल्यो. देखून गंभीर विषय पर्यान खेळ-हासांत बुडून गेले. जाल्यार ह्या नाटकांनी एक कार्य साध्य जालेंच म्हळ्यार जनांल्या मनांत माय भासे विशीं तान, उमेद जागीं दवरचें कार्य! जे जे कडेन लिखित साहित्य पावना, आनी पावल्यारीय ताका प्रभाव घालूक जायना, ते कडेन नाटकां पावलीं, आनी प्रभाव घालो!

विषय परतून, अवतरणांत नवसाण घालून, त्या त्या गांवांची अस्मिताय घेवन एकेक नाटक तयार जालें. 'भक्तमार्काण्डेय' थाकून 'देव साक्षी', 'अंगीकार', 'अनुसंधान' आशी चलून 'वास्तेव मामालें प्रेत' आनी 'इनस्पेक्टर भटमाम' पर्यान पावल्यां हांगांचें कोंकणी नाटक. आमचे नाटककार आनी मुकार कितें प्रतीक्षा करताय? जनांचें मनोरंजनच! आज पर्यान जावन आशिल्लो उद्देशूय तोच. तो सफल जालो. संशय ना! जाल्यार साहित्यिक गुणान, अवतरण चातुर्यान आनी विषय गांभीर्यान

आतां हांगाचें नाटक खंय आसा? दोन दशकांचे मुरथम खंय आशिल्लें जाल्यार थांगाच आसा! हे अवस्थेक कारणां कितलींच आसूयात. एक कारण तरी स्पशट आसा. नाटकाच्या रंगार हास्य कलाकार, गीतकार आनी MAKEUP MAN, हांकां सोडून कोणूच चड काळांक राबलोना. कोंकणी नाटक रंगार प्रवर्तन करून अनुभव नैपुण्य मेळ्ळेले नाटककार अशी तशी शिवंडले. तांचें अनुभवज्ञान नवे पिळगेक मेळ्ळेंना.

1992 वर्सा जालेले नाटकोत्सवांत सादर जालेल्या नाटकांत आनी नाटकांच्या मागल्यान आदींचे नाटककार ना आशिल्ले. ते आयले - प्रेक्षक जावन आनी मूल्यांकन करपी जावन! केरळांतल्या कोंकणी नाटकांची ही कथा - रंगमाचयेर पात्रां येवन परतताय तशी रंगमाचयेचे मागल्यान प्रवर्तन करचे नाटककारय आयले आनी परतले!

गेल्या थोड्या वर्सांनी सातत्यान नाटक करून आयल्याय कोचीचे श्री एल. कृष्ण भट (कोचीन कलाक्षेत्रा) आनी श्री के. मंगलदास प्रभू (भुवनेश्वरी कलाकेंद्र). 'कोचीन कलाक्षेत्रा' चडय हास्य नाटकां सादर करता जाल्यार, 'भुवनेश्वरी कलाकेंद्र' सामूहिक नाटकां सादर करता. गीतकार आनी गायक म्हूण श्री प्रसेनकुमार मल्ल्या, श्री मुरळीधर शेणै हीं आसाय.

कण्णूर, तलश्शेरी, कोषिकोड, कोडुंगल्लूर, कोट्टायम, तिरुवनंतपुरम अशी जायत्या गांवांनी थांगा थांगाच्या कलाकारांनी नाटकां प्रस्तुत केल्यांय. आजीय करीत आसाय. तांचो परामर्श योग्य रूपान माका करूंक जालोना म्हूण खेद आसा. नाटकां विशीं म्हायती एकडे करप भोव श्रमकर कार्य आसा हें माका स्वंत अनुभवांतल्यान समजल्यां. हे परिचर्चेंत हें प्रपत्र हांवें सादर करतना, ताचे वयर इतर जाणकारांचींय उलोवपां जातलीं जाल्यारीच ह्या विषया विशीं चड आनी योग्य म्हायती तयार जातली.

* * *




17. 12. 2017 तारिकेक एरणाकुळमांत घडयल्ल्या सातव्या **'पी. जी. कामत यादस्तिक'** सुवळ्याचे माचयेर कोचीचे ज्येष्ट कोंकणी नाटककार **श्री. एस. बालकृष्ण भट** हांचो भोवमान जालो तेन्ना काडिल्लें हें चित्र आसा. गोंयच्या श्री शांताराम वालावलीकार हांणी त्या सुवाळ्यांत मुखेल भाशण दिलेलें. कोंकणी भाशेच्या रंगावेली ही आमची आनीयेक कार्यावळ मात्र. 'पी. जी. कामत फौंडेशन' स्थापन करून आतां मेरेन जावन आमी तरातराचीं पुस्तकां कोंकणी वाचकां मुखार प्रस्तुत केल्यांत. सर्गेस्त जी. कमलम्माळ विरचित विख्यात 'रघुरामायण' महाकाव्याची नवीन आवृत्तीय उजवाडायल्या. 'दीपांकूर' म्हूण खाशेले वर्सुकी साहित्यिक अंक उजवाडायल्यात. खूब कार्यक्रमांय घडोवन हाडल्यांत. कोंकणी गीतांच्यो मोलादीक सी डी देंवयल्या. असल्या सर्वांत तुमगेलो सहकार आनी प्रोत्साह मेळ्ळा. आनी मुखारीय सगल्या कोंकणी मोग्यांचो हृदयपूर्वक सहकार सदा सदैव आसचो ही आमची विनंती.

**Our Publications and Books available with us**

Please contact : pgkamat.foundation@gmail.com

01. पवळीं - पी. जी. कामत
02. ओळख - पी. जी. कामत
03. लिपि एक शास्त्रीय चिंतन - पी. जी. कामत
04. अनन्तु - के. अनन्त भट
05. रघुरामायण - जी. कमलम्माळ
06. हॉर्तूस मलबारिकूस : एक वळख - संपादन : पय्यनूर रमेश पै
07. साळग्राम - सुशीला त्रिविक्रम भट
08. आळीं - के. पुरुषोत्तम पै
09. जीवसंकल्प - एन. बालकृष्ण मल्या
10. बालु - वी. कृष्ण वाध्यार
11. विवेकानन्दम - प्रो. एन. एन. आनन्दन
12. नीळ दोळ्यांची चेली - पी. एन. शिवानन्द शेणै
13. इदं न मम - शरतचंद्र शेणै
14. Script - A Scientific Contemplation - P. G. Kamath
15. Tamil - Konkani Vocabulary
16. ശ്രീ സന്ധ്യാവന്ദനാദി - P. G. Kamath
17. സാരസ്വത ബ്രാഹ്മണരുടെ പ്രാചീന ചരിത്രം
 - Translated by B. Vasantha Shenoy
18. കുലദേവതാസ്മരണം - Commemoration Volume
19. പൊൻതിരി - Translated by Saratchandra Shenoi
20. ಇತಿಹಾಸದ ರಶ್ಮಿಗಳು - Hattiyangadi Lakshminarayana Kamath
21. ಹೋರ್ತುಸ್ ಮಲಬಾರಿಕುಸ್, ಆಯುರ್ವೇದ ಮತ್ತು
 ಕೊಂಕಣಿಗರ ಕೊಡುಗೆ - Edited by Payyanur Ramesh Pai

# रंगभूमी



शरतचंद्र शेणै

'रंगभूमी हो लघु नाटीकांचो संच बरयलेलो श्री शरतचंद्र शेणै हो
कोंकणी साहित्यांतुलो एक प्रख्यात साहित्यकारु.
तांनी अनेक साहित्य प्रकारांतु तांगेली प्रतिभा दाक्कयल्या.
ह्या तांगेल्या नाटीका संग्रहांतु तांनी हो साहित्यप्रकार
अत्यंत यशस्वी रीतीन केल्ला.
'घर संसार' ह्या नाटीकेंतुले संवाद अति सुलभ भाशेन बरयल्या.
'थळथळेवंचे सर्वय भांगार न्हंय' हें आमगेल्या युवा पिळगीन
बोध घेवचे तशी प्रसंग रंगयला.
'विश्वासाची सेल्फी' ही नाटीका म्हळ्यारी मातृप्रेमाची अतिसुंदर प्रचिती.
'एकलव्याली गुरुदक्षिणा' ही तरी सकडांक परिचित अशी पौराणीक काणी.
एकलव्याली गुरुभक्ती तरी सर्व परिचित बोधु.
जाल्यारी अपरिचित आश्शीले बोध
नाटककारान आमका उक्ते कोरुन दाक्कयला.'

–डॉ. चंद्रशेखर एन. शेणै, मुंबै
(प्रस्तावनेंतल्यान)

ISBN 978-81-941625-3-7




₹ 140

## रंगभूमी

[ कोंकणी लघु नाटकांचो संग्रह ]

पी.जी.कामत फौंडेशन, एरणाकुळम
pgkamat.foundation@gmail.com
Available Online: www.navathishop.com